अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो
आरंभ आनी हावेस

# मिथक
# आनी
# सत्य

उदय भेंब्रे

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो
आरंभ आनी हावेस

# मिथक
# आनी
# सत्य

उदय भेंब्रे



# अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो
# आरंभ आनी हावेस
# **मिथक आनी सत्य**

ALL INDIA KONKANI PARISHAD
ORIGIN AND OBJECTIVES
**THE MYTH AND THE TRUTH**

**उदय भेंब्रे**
''लक्ष्मी-प्रभा'' लास पाल्मस हावसिंग इस्टेट,
घोगळ, पो. फातोर्डा, गोंय-403602

उजवाडावपी
**संजना पब्लिकेशन्स**
दत्तवाडी, सांगें, गोंय-403704



उजवाडावणेचें वर्स : **2019**

छापपी
**रिया ग्राफिक्स**
मोबायल : 9881409237

**मोल रु. 150/-**

# नमन आनी दिनवास

'कोंकणी परिशद-तिसरे बसकेची खबर' ह्या नांवान पयल्या तीन बसकांचो नियाळ बरोवन काडून 1944 वर्सा तो उजवाडाक हाडपी स. वामन र. वर्दे वालावलीकार उर्फ शणै गोंयबाब, स. काशीनाथ श्रीधर नायक आनी तांचे सांगाती हांकां नमन. तो नियाळ हो ह्या पुस्तकांतल्या विश्लेशणाचो मुखेल आदार. ह्या विश्लेशणांत थोडो बदल करून तयार केल्लो सोद-निबंद गोंय विद्यापीठाच्या 'सासाय' हे संशोधन पत्रिकेच्या पयल्या अंकांत उजवाडाक आयला. गोंय विद्यापीठाच्या बरेपणान ताचो उपेग ह्या पुस्तकांत केला. 'तिसरे बसकेची खबर' हे पुस्तिकेचें संपादन परिशदेच्या बरेपणान केलां. ह्या दोनूय संस्थांक हांव बरें मागतां. श्री. अतुल र. पंडित हांणी जतनायेन आनी चत्रायेन टायप-सॅटींग केलें आनी रिया ग्राफिक्स हांणी तें बरे तरेन छापलें. तांकां मनस्पुर्वेक दिनवासतां. हें पुस्तक उजवाडावचें हे म्हजे विनवणेक संजना पब्लिकेशन्सचे श्री. दिनेश मणेरकार हांणी हयकार दिलो आनी ताका उजवाड दाखयलो हे खातीर तांकां खेरीत भाशेन दिनवासतां.

**-उदय भेंब्रे**

# मांडावळ

# इतिहास विकृत जावचो न्हय

आज जे संस्थेक आमी 'अखिल भारतीय कोंकणी परिशद' ह्या नांवान वळखतात ती संस्था 'कोंकणी परिशद' ह्या नांवान 1939 वर्सा सुरू जाल्ली. 9 व्या अधिवेशना मेरेन 'कोंकणी परिशद' हेंच नांव उरलें. 'अधिवेशन' ह्या उतराक 'बसका' हें उतर वापरताले. परिशदेचे 10 वे बसके सावन 'कोंकणी परिशदे' सुवातेर 'अखिल भारतीय कोंकणी परिशद' हें नाव वापरूंक लागले आनी 'बसके'चे सुवातेर 'अधिवेशन' ह्या उतराचो उपेग करूंक लागले.

## 'साहित्य' कशें रिगलें?

1974 वर्सा धावें अधिवेशन पणजेंत जालें तेन्ना परिशदेच्या नांवांत 'साहित्य' हें उतर रिगलें. त्या अधिवेशनाचो येवकार समितीचो सचीव आशिल्ल्यान हांव तें उतर कशें रिगलें हाची खबर जाणां, तेन्ना श्री एस. के. बॅनर्जी हे गोंय-दमण-दीव संघप्रदेशाचे नायब राज्यपाल आसले आनी श्रीमती शशिकला काकोडकार हीं मुख्यमंत्री आसलीं. तांणी उद्घाटन सुवाळ्याक येवचें आनी कोंकणीचो आवाज तांच्या कानार पडचो म्हूण येवकार समितीन तांकां आमंत्रण दिल्लें. मुख्यमंत्री काकोडकार हांणी तें रोखडेंच मानून घेतलें. नायब राज्यपाल मात मात्शे अनमनले. तांकां येवपाचें नासलें अशें न्हय, पूण 'कोंकणी परिशद' ह्या उतरांक एके तरेचो राजकी वास येता अशें तांकां दिसतालें. घडये, कोंकणी ही भास काय बोली

ह्या मुद्द्या वयल्यान कोंकणी-मराठी वाद चलतालो म्हणून तांकां तशें दिसलें. हातुंतल्यान वाट काडपाक परिशदेक साहित्य परिशद अशें नांव दिल्यार अडचण ना जाता काय म्हूण समजून घेतलें तेन्ना नायब राज्यपालांक तें मानवलें आनी तांणी आमंत्रण मानून घेतलें. तेन्ना परिशद ही रजिस्टर्ड संस्था नाशिल्ल्यान हो बदल करप सोपें जालें. 'अखिल भारतीय कोंकणी परिशद' ही 'अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशद' केन्ना आनी कशी जाली ताचो हो इतिहास.

18व्या अधिवेशना मेरेन साहित्य हें उतर परिशदेच्या नांवांत उरलें. 1976 वर्सांतल्या 11 व्या अधिवेशना मेरेन परिशदेक घटना नाशिल्ली आनी संस्था म्हूण परिशद रजिस्टर जावंक नाशिल्ली. मंगळूरच्या इकराव्या अधिवेशनांत परिशद ही संस्था म्हूण रजिस्टर करची अशी थारावणी मान्य जाली. ते प्रमाण अध्यक्ष चंद्रकांत केणी हांचे वावुरपी समितीन घटना तयार केली. मुळचो मसुदो हांवें तयार केल्लो. ताचेर विचार-चर्चा जावन फावो थंय बदल करून सोसायटीज रजिस्ट्रेशन ॲक्ट, 1860 ह्या कायद्या खाला परिशदेचें सोसायटी म्हूण मडगांवां रजिस्ट्रेशन केलें. परिशदेचें नांव अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशद अशेंच दवरलेलें. 1990 वर्सा रामनाथीं जाल्ल्या 18 व्या अधिवेशना मेरेन 'साहित्य' हें उतर परिशदेच्या नांवांत उरलें. 18 व्या अधिवेशनांत, तें उतर परिशदेचो हावेस साहित्या पुरतोच आसा अशें भासयता; देखून तें काडून उडोवचें अशी थारावणी जाली. ते प्रमाण घटनेंत बदल करून परिशदेचें नांव परतून 'अखिल भारतीय कोंकणी परिशद' अशें केलें.

## साहित्य संमेलन

परिशद आनी साहित्य संमेलन हांचें नातें कशें घडून आयलें हाचो इतिहासूय समजून घेवप गरजेचें. मुळांत साहित्य संमेलन हो परिशदेचो उपक्रम नासलो. 'कोंकणी बरोवप्यांचो एकवट' नांवाच्या पंगडान 1968 वर्सा 'कोंकणी लेखक परिशद' ह्या नांवान हो उपक्रम सुरू केल्लो. पयल्यो दोन परिशदो त्या पंगडान घडोवन हाडल्यो. उप्रांत गोंयचें कोंकणी भाशा मंडळ हो उपक्रम घडोवन हाडूंक लागलें आनी तेन्ना त्या उपक्रमाक नांव दिलें 'अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलन'. मंडळान असलीं आठ संमेलनां घडोवन हाडलीं. पयल्यो दोन परिशदो

आनी हीं आठ संमेलनां गोंयांत जालीं. इकरावें संमेलन घडोवन हाडच्या वेळार तें कारवारांत जावचें असो प्रस्ताव आयलो. मंडळाक प्रस्ताव मान्य आसलो, पूण मंडळ गोंया भायर कार्यावळी करिनासलें. ते खातीर आनी संमेलनाचो आवांठ अखिल भारतीय पावंड्याचो आशिल्ल्यान संमेलन अ. भा. कोंकणी परिशदेन घडोवन हाडचें असो प्रस्ताव परिशदे कडेन पावलो. परिशदेन तो मानून घेतलो. परिशदेचें संमेलन दर दोन वर्सांनी जातालें. देखून एका वर्सा अधिवेशन आनी दुसऱ्या वर्सा संमेलन घडोवन हाडचें आनी तसो क्रम चालू दवरचो अशें परिशदेन थारायलें. संमेलनाचें 'अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलन' हें नांव बदलून तें 'अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन' करचें अशेंय परिशदेन थारायलें. तेन्ना सावन दर दोन वर्सांनी परिशदेचें अधिवेशन जाता आनी तेच भाशेन दर दोन वर्सांनी साहित्य संमेलन जाता. परिशदेच्या अधिवेशनाची माची कोंकणी भास, शिक्षण, साहित्य, कला, संस्कृताय आनी भाशे कडेन संबंद आशिल्ले हेर विशय हांकां ओंपिल्ली आसा; तर साहित्य संमेलनाची माची ही साहित्य ह्याच विशयाक ओंपिल्ली आसा.

परिशदे संबंदान जाल्ल्या स्थित्यंतरांची खबर जाणा जावंक सोदतल्यांक ती सारकी बरी कळची हे खातीर हे विशय हांगा मांडल्यात. इतिहास सारको कळ्ळो जाल्यार गोंदळ, गैरसमजण्यो बी टाळूंक जातात. मिथकांक चड मेकळीक उरना आनी उरली जाल्यारूय अभ्यासक तांकां बळी पडूंक पावनात.

## मिथक

कोंणेय कितेंय बरयतना तें गैरसमजांतल्यान, कल्पनेंतल्यान वा वाऱ्या वयलें आयकून बरयलें आनी इतिहास म्हूण तें खरें नासलें जाल्यार तें बरप हें मिथक जाता. कांय जाण त्या मिथकाकूच इतिहास समजतात आनी ताचो तसो उपेग करतात तेन्ना इतिहास विकृत जाता. इतिहासाची अशी निसरिल्ली गाडी रुळार हाडलीना जाल्यार इतिहास आनिकूय विकृत जायत वता.

कोंकणी परिशदेचो आरंभ आनी हावेस हांच्या संबंदान इतिहासाचें अशें विकृतीकरण घडूंक लागलां. एका बरपांतल्यान एक मिथक निर्माण जालां आनी त्या मिथकाक इतिहास मानून कोंकणी परिशदेचो जल्म कोंकण राज्य घडोवपाच्या

हावेसांतल्यान जाला असो निश्कर्श काडिल्लो वाचूंक मेळटा. असलो निश्कर्श कोंकणी चळवळीचो इतिहासूच बदलून उडयता आनी ताका लागून आनिकूय मिथकां निर्माण जावपाची शक्यताय उप्रासता. हे खातीर सत्य समजून घेवप हें खूब गरजेचें थारता.

फाटलीं सुमार 60 वर्सां कोंकणी चळवळी विशीं हांवें जें वाचलां तातूंत कोंकणी परिशदेच्या जल्माचो आनी मूळ हावेसाचो इतिहास म्हाका मेळ्ळा. ताचे वयल्यान त्या मिथकांत जें सांगलां तें सत्य न्हय हें म्हाका कळटालें, पूण तो इतिहास म्हाका खंय मेळ्ळो ताचो उगडास जाय नाशिल्लो. हांव म्हज्या पुस्तकां मदीं सोदूंक लागलों आनी सोदतां- सोदतां एक दीस म्हाका जाय आशिल्लें तें म्हज्या हाताक लागलें. 1944 वर्सा उजवाडाक आयिल्ली 'कोंकणी परिशद-तिसरे बसकेची खबर-मुंबय 1942' ह्या नांवाची ती पुस्तिका. छापी प्रत न्हय, तर छापी प्रतीची झिरोक्स केल्ली प्रत. मिथक आनी सत्य हांची विस्कावणी करचे आदीं हे पुस्तिके विशीं विस्तारान सांगपाची गरज आसा, म्हूण तें सांगतां.

## 'तिसरे बसकेची खबर'

आज आमी 'अखिल भारतीय कोंकणी परिशद' म्हूण जे संस्थेक वळखतात ते संस्थेचें आरंभाचें नांव आसलें : 'कोंकणी परिशद' हें आदीं सांगलांच. आज आमी ज्या मेळाव्याक 'अधिवेशन' म्हणटात, ताका आदीं 'बसका' म्हणटाले हेंवूय सांगलां. हांव हांगा तीं आदलीं उतरां वापरुनूच पुस्तिके विशीं सांगूंक सोदतां. पयली कोंकणी परिशद कारवारांत 1939 वर्सा जाली. 1940 वर्सा दुसरी कोंकणी परिशद उडपींत जाली आनी तिसरी कोंकणी परिशद मुंबय शारांत 1942 वर्सा जाली. हे बसकेचे येवकार अध्यक्ष आसले वा. र. वर्दे वालावलीकार (म्हळ्यार शणै गोंयबाब; पूण तांणी परिशदेच्या वावरांत वा. र. वर्दे वालावलीकार हेंच नांव वापरलां). तांणी आनी येवकार समितीचे मानीक जोड-बरपी (जोड सचीव), हांणी परिशदेची बसका जावन वतकूच तिचो नियाळ बरोवन काडलो. तो नियाळ 'कोंकणी परिशद-तिसरे बसकेची खबर- मुंबय 1942' असो माथाळो दिवन 1944 वर्सा मानीक जोड-बरपी काशीनाथ श्रीधर नायक हांणी उजवाडा हाडलो.

तिसरे बसकेचे हे खबरेंत येवकार समितीची थापणूक आनी तिच्यो बसका,

वावुरपी समितीची वेंचणूक आनी तिच्यो बसका, पोट समित्यो आनी तांचो वावर, तिसरे बसकेचो नियाळ, येवकार अध्यक्षांल्या उलोवपाचो आपरोस, अध्यक्षांल्या उलोवपाचो आपरोस, अध्यक्षांल्या इंग्लिशींतल्या पुराय उलोवपाचो अणकार, बसकेंत मान्य जाल्ल्यो थारावण्यो, आदा-खर्च ही सगली म्हायती आसा. म्हत्वाचें म्हळ्यार हे 'खबरे'क 18 परिशिश्टां जोडिल्लीं आसात. तांतुंतल्या पयल्या परिशिश्टांत पयले बसकेची खबर दिल्ली आसा आनी दुसऱ्या परिशिश्टांत दुसरे बसकेची खबर दिल्ली आसा. निमणे कडेन 'खबरें' त वापरिल्ल्या कांय उतरांचो कोंकणी- इंग्लीश कोश दिल्लो आसा, कांय फोटेय छापिल्ले आसात.

पयले बसकेचे खबरेंत येवकार अध्यक्ष ('खबरें'त 'कार्यदर्शी' हें उतर वापरलां) माधव मंजुनाथ शानभाग हांच्या उलोवपांतले तीन उतारे दिल्यात, घडये तें पुराय उलोवप. अध्यक्ष विश्वनाथ पांडुरंग प्रभू हांच्या उलोवपाचो आपरोस दिला आनी बसकेन मान्य केल्ल्यो 11 थारावण्यो दिल्यात.

दुसरे बसकेचे खबरेंत येवकार-अध्यक्ष डॉ. टी. माधव पै हांच्या उलोवपाचो आपरोस आनी तेच भाशेन अध्यक्ष जेरोम ए. साल्दान्य हांच्या उलोवपाचो आपरोस दिवन ते बसकेन मान्य केल्ल्यो 12 थारावण्यो दिल्यात.

हे पुस्तिकेंत मेळटा तितली खबर म्हाका आनीक खंयच मेळ्ळूंक ना. माधव मंजुनाथ शानभाग हांचें उलोवप हें हे खबरेंत चडांत चड म्हत्वाचें.

## आतां मिथका विशीं

कोंकणी परिशदेचो जल्म आनी हावेस हांच्या विशयांत मिथक निर्माण जालां तें अशें :

2003 वर्सा 19 डिसेंबराक सुहास य. दलाल हांणी संपादीत केल्लो 'महाकोंकण सुदर्शन' नांवाचो अंक उजवाडाक आयलो. त्या अंकांत रवींद्रबाब केळेकार हांचो 'संयुक्त गोंय जालें ना जाल्यार कोंकणी लोक शेणटलो!' ह्या माथाळ्या खाला एक लेख आसा. होच लेख 2018 वर्सा 'परमळ'च्या दिवाळी अंकांत संपादक सुहास य. दलाल हांणी परतून उजवाडायला. ह्या लेखांत रवींद्रबाब केळेकार हांणी कोंकणी परिशदेचो उल्लेख केला आनी ती कसल्या हावेसान जल्माक आयली हे विशीं कांय विधानां केल्यांत. त्या लेखांतले दोन

उतारे अशे आसात -

'माधवमामा मुखार प्रश्न उबो रावलो - कोंकणी लोक नव्या हिन्दुस्थानांत आयज आसा तसोच धा कडेन शिंपडिल्लो उरतलो काय अेकठांय येवन एक खेरीत 'कोंकणी प्रांत' घडयतलो? बाकीच्या प्रांतां मुखार भाशेचो कसलोच प्रश्न ना. कन्नड, मराठी, तेलुगू, गुजराथी ह्यो लोकांच्यो भासो. 'भासो' म्हूण सगळ्यांनी मान्य केल्यात. ह्या भाशांनी लोक बरयतात. वर्सान वर्स नव्या नव्या पुस्तकांची भर पडत आसा. कोंकणी भाशेक 'भासूच न्हय' म्हणपी बुदवंत खासा कोंकणी लोकां मजगतींच आसात. कोंकणीत साहित्य ना, तिका क्षमता ना, तिका लिपी ना अशें ते मोठ्या मोठ्यान म्हणीत रावल्यात. कारवारा भरिल्ले पयले 'कोंकणी परिशदे' ची ही फाटभूंय आशिल्ली.'

'परिशद घडोवन हाडपाक माधवमाम वसई सावन कोची मेरेन भोंविल्ले. जांकां जांकां लोक 'मानतात' तांकां सगळ्यांक वचून मेळिल्ले. गोंयांतूय आयिल्ले. खंयचेच कडेन कोणेंच तांकां व्हडलेशे 'लेखूंक' नाशिल्ले. गोंयकारांनी तर तांकां पिशांत काडिल्ले. तांचीं फकांडां मारिल्लीं. (ह्या फकांडांचें एक उप-फळ म्हूण कोंकणी भाशेक 'चवथीचो चन्द्र' नांवाचें एक सुंदर नाटकुलें मेळ्ळां) पुणून माधवमाम निर्शेनासतना वावुरले आनी 'पयली परिशद' तांणी घडोवन हाडली म्हळ्यार हाडलीच.'

ह्या उताऱ्यांनी सत्य कितलें आसा हाची चिकित्सा करपा सारकीं विधानां आसात तीं हीं :

1. माधवमामा मुखार प्रस्न उबो रावलो- कोंकणी लोक नव्या हिन्दुस्थानांत आयज आसा तसोच धा कडेन शिंपडिल्लो उरतलो काय एकठांय येवन एक खेरीत 'कोंकणी प्रांत' घडयतलो?
2. परिशद घडोवन हाडपाक माधवमाम वसई सावन कोची मेरेन भोंविल्ले. जांकां जांकां लोक 'मानतात' तांकां सगळ्यांक वचून मेळिल्ले. गोंयांतूय आयिल्ले. खंयचेच कडेन कोणेंच तांकां 'लेखूंक' नाशिल्ले.
3. गोंयकारांनी तर तांकां पिश्यांत काडिल्ले. तांचीं फकांडां मारिल्लीं. (ह्या

फकांडांचें एक उप- फळ म्हूण कोंकणी भाशेक 'चवथीचो चंद्र' नांवाचें एक सुंदर नाटकुलें मेळ्ळां).

## विधानांची चिकित्सा

पयल्या विधाना भायर रवीन्द्रबाब केळेकार हांच्या लेखांत आनीक एक वाक्य अशें आसा -

'एक कोंकणी समाजाचें' फळीत निजाच्या एका 'कोंकणी राज्यां'त जातलें अशेंय सगळ्यांनी मानिल्लें.'

पयलें विधान आनी हें वाक्य हाचो अर्थ असो जाता की कोंकणी परिशदेचो जल्म 'कोंकणी प्रांत' वा 'कोंकणी राज्य' घडोवपा खातीर जाल्लो आनी तोच परिशदेचो हावेस आसलो. हें आपूण खंयच्या आदारान सांगतां तें रवींद्रबाब केळेकार हांणी सांगूंक ना आनी परिशदे संबंदान जें बरयल्लें मेळटा तातूंत ताका खंयच कसलोच आदार मेळना.

सिंधुदुर्ग आनी कारवार हांचे सयत 'संयुक्त गोंय' घडोवन हाडुंकूच जाय असोय एक विचार त्याच लेखांत तांणी मांडला. समेस्त कोंकणी लोकांचें कोंकणी राज्य आनी हें 'संयुक्त गोंय' हांचो मेळ कसो बसता हे विशीं मात तांणी कांय बरोवंक ना. पूण 'संयुक्त गोंय' चे विशींचो विचार तांणी आपलो म्हूण मांडला, तो परिशदेचो हावेस आसलो अशें म्हणूंक ना.

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे आदले अध्यक्ष, मंगळूरचे पाव्लू मोरास हांचें 'कोंकणी चळवळ' हें पुस्तक 2003 वर्सा उजवाडाक आयलां. कोंकणी परिशदेचो जन्म आनी हावेस हांचे विशीं खात्रीची म्हायती मेळटा काय म्हूण पळोवपाक तांणी कारवारांत सोद घेतलो; पूण लिखीत रुपांत तांकां कांय मेळ्ळें ना. ते दांडेलीचे के. एन. राव हांकां मेळ्ळे. राव पयले बसकेंत वांगडी म्हूण वावुरिल्ले. पाव्लू मोरास आपल्या त्या पुस्तकांत बरयतात :

> 'श्री. के. एन. राव दांडेलि सुविल्या कोंकणी परिशदेचो वांगडी हाणें सांगल्या पर्माणें त्या वेळार कारवार जिल्ला कन्नड सम्मेळन जालें. त्या सम्मेळनाक पद्मनाभ सुब्बराय कामत पावल्ले. त्या वेळार ते परिशदेच्या उलोवपांत 'कोंकणी म्हळ्यार ती एक भास न्हय, तिका इतिहास ना, तिका साहित्य ना. ती एक उलोवपी

भास' अशीं कोंकणी भाशेचीं कुल्पां काडलीं खंय. हें आयकाल्ल्या पि. एस. कामत वकीलान माधव मंजुनाथ श्यानबोगाक कोंकणी भाशेच्या लोकाक एकवटावंक आनी कोंकणी भाशेखातीर वावरूंक उलो दिल्ल्यान, एम. एम. श्यानबोगान गांवा गांवांनी भेट दिवन लोकांक एकवटावन 1939 इस्वेच्या जुलायच्या 8 तारिकेर कारवारांत कोंकणी परिशद घडोवन हाडली.' (शुद्धलेखन बदल्लां).

ह्या उताऱ्या वयल्यान दिसता की कन्नड संमेलनांत कोंकणीक कुस्कुटायली म्हूण कारवारांतल्या कोंकणी भाशी लोकांचो स्वाभिमान दुखावलो. तांचे मदले पी. एस. कामत हांणी माधव मंजुनाथ शानभाग हांकां कोंकणी लोकाक एकठांय हाडपाक आनी कोंकणी भाशे खातीर वावुरपाक आवाहन केलें. हाचे वयल्यान अर्थ काडूंक जाता तो असो की कोंकणीभाशी लोकाक एकठांय हाडून कोंकणी भाशेचे उदरगती खातीर वावरप हो परिशदेचे पयले बसके फाटलो हावेस आसलो. कामत हांणी शानभागमाम हांकां केल्ल्या आवाहनाक 'कोंकणी प्रांत' वा 'कोंकणी राज्य' घडोवपाच्या हावेसाचो वास निखालस नासलो.

## पालेकार हांचो नियाळ

लेखक, संपादक आनी कोंकणी भाशा मंडळाचे आदले अध्यक्ष यशवंत सदानंद पालेकार हे मूळचे कारवारचे. ते सांगताले की एक आप-वावुरपी म्हूण आपूण पयले परिशदेंत वावुरलां. तांचो एक लेख परिशदेच्या 1990 वर्सा रामनाथीं जाल्ल्या 18 व्या अधिवेशनाचे यादस्तिकेंत उजवाडाक आयिल्लो आसा. त्या लेखांत तांणी पयल्या 13 अधिवेशनांचो नियाळ केला. परिशदेचे पयले बसकेच्या आरंभा विशीं तांणी बरयलां-

'कोंकणी भास, संस्कृताय आनी समाजाची उदरगत जावपाक जाय आसत तर कोंकणी लोकांनी एकठांय येवन आपणालो उजळ फुडार घडोवपा खातीर दिशा थारावपाची गरज आशिल्ली. (सर्गेस्त माधव मंजुनाथ शानभाग गांवा-गांवांनी आनी दारा-दारांनी भोंवन लोकांचे ते विशींचे विचार आयकताले. कोंकणी चळवळ

सुरू करपाक योग्य वातावरण आनी मानसीक तयारी आसा हाची जाणीव तांकां जाल्ली. अशा वेळार कोंकणी परिशद घडोवन हाडत तर ती यशस्वी जावपाक पावतली अशें तांकां दिसलें आनी तांणी 8 जुलय 1939 दिसा कारवारांत कोंकणी परिशद घडोवन हाडपाचो इतिहासीक निर्णय घेतलो.'

परिशदेच्या हावेसा विशीं यशवंत पालेकारांनी बरयलां तें अशें-

'कोंकणी भास उलोवपी लोक जे विंगड-विंगड वाठारांत आसात तांचो एकवट घडोवप, कोंकणी भाशे विशीं लोकांत जी उणाकपणाची भावना आसा ती ना करप, देवनागरी लिपी आपणावन कोंकणीची प्रमाण शैली घडोवप आनी कोंकणींत चडांत चड साहित्य निर्मणी करून कोंकणी संस्कृताय समृद्ध करपाक वावुरप हो उद्देश नदरे सामकार दवरून ही परिशद जातली अशें तांणी जाहीर केलें. तांच्या ह्या विचाराक जायत्या जाणांनी तेंको दिलो आनी सहकार्य दिवपाचें मानून घेतलें.'

यशवंत पालेकार हांणी ह्या लेखांत फुडें येवकार अध्यक्ष ह्या नात्यान माधव मं. शानभाग हांणी केल्ल्या उलोवपाचो आपरोस दिला. ताचे वयल्यानूय शानभागमाम हांच्या मनांत कितें आशिल्लें तें कळटा. पालेकार बरयतात -

'परिशदेक अपेक्षे परस चड लोक आयल्यात म्हूण येवकार अध्यक्ष शानभाग हांणी खोस उगतायली. आवय भास कोंकणी विशींच्या मोगाक लागून इतले लोक येवपाक शकले अशें सांगून तांणी कोंकणीक 'लिपी ना, व्याकरण ना' म्हूण हिणसायतल्यांच्या अपुर्बुद्धपणा विशीं खंत परगटायली आनी सगळ्या कोंकणी लोकांनी स्वाभिमानान कोंकणीचो वावर मुखार व्हरचो म्हूण मागलें. राजाश्रय वा कसलोच आदार नासतना ही भास तिगून उरल्या अशें सांगून विंगड-विंगड वाठारांत भोव नामना मेळयिल्ले बुदवंत लोक जी कोंकणी भास उलयतात ती गोड, रसाळ आनी म्होंवाळ भास देशांतल्या हेर भास भयणांचे पंगतींत मानान बसपा

सारखी करपाक सगळ्यांनी तन-मन-धनान आनी एकवटान वावुरपाक जाय अशेंय सांगलें.'

यशवंत पालेकार हांणी परिशदेच्या तेरा बसकांच्या ह्या नियाळांत 'कोंकणी प्रांत' वा 'कोंकणी राज्य' वा हेर कसलोय राजकी दर्जो हांचे विशीं कसलोच उल्लेख करूंक ना. परिशद म्हळ्यार भाशीक चळवळीचो वांटो आसली हेंच तांच्या नियाळांतल्यान दिसून येता.

## हावेसा विशींचें सत्य

रवींद्रबाब केळेकार एक सांगतात तर पाव्लू मोरास, यशवंत पालेकार आनी के. एन. राव दुसरें सांगतात. पूण सत्य अदीक स्पश्टपणान कळटलें जाल्यार माधव मंजुनाथ शानभाग हांच्या मनांत कितें आसलें आनी तें तांणी स्पश्टपणान सांगलां काय कितें हाचो सोद घेवचो पडटलो. आदीं जे 'तिसरे बसकेची खबर' हे पुस्तिकेचो उल्लेख केला ते पुस्तिकेक लागून हो सोद सोपो जाता. वयर सांगलां ते प्रमाण ते पुस्तिकेंत पयल्या परिशिश्टांत पयले बसकेची खबर दिल्या. ते खबरेंत येवकार अध्यक्ष ह्या नात्यान शानभाग हांणी केल्ल्या उलोवपांतले तीन उतारे, अध्यक्षांल्या उलोवपाचो आपरोस आनी मान्य केल्ल्यो 11 थारावण्यो इतलें मेळटा. माधव मंजुनाथ शानभाग हांच्या उलोवपांतलो पयलो आनी दुसरो हे उतारे ते परिशद घडोवन हाडूंक कसल्या हावेसान फुडें सरले तें स्पश्ट करतात. ते उतारे अशे आसात :

'कारवारचे विद्वान गृहस्थ भौ. वेंकटेश रामचंद्र प्रभू हांणी मुजरत रचिल्लें कोंकणी येवकार-गीत कांय चलयांनी म्हणून जातकूच, परिशदेचे कर्तुत्वी कार्यदर्शी भौ. माधव मंजनाथ शणै शानभाग, एम. ए. एल. एल. बी. हांणी जमिल्ल्या लोकांक मायेन येवकार दिवन म्हळें, 'आमी हिंदुंनी आमगेले आवै-भाशेंचें म्हत्व आजवेर ध्यानांत घेतलें ना. आमी जैं जैं पावले थैं-थैं ची भास माथ्यार उबाल्ली. हे तरेन, कर्णाटकांत कानडी, मराठणांत मराठी आनी मलबारांत मलयाळी अश्यो आमगेल्यो भासो जाल्यो. घरांत मात आमी आमगेली कोंकणी भास सोडली

ना. आमगेले क्रिस्तांव भाव वेतीत थैं, घरगुती वेव्हारांत आनी धर्मीक गजालींत कोंकणीच भाशेक वेंगून रावले. ते रोमी लिपींत आपणालीं कागदां-पत्रां बरैतात आनी वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं चलैतात. क्रिस्तांवांलो आवै-भाशेचो अभिमान पळोवन म्हाका मोटी खोस जाता. आमगेले भाशेक व्याकरण ना अशें म्हणटले कांय जाण आसात. पूण हे म्हणणेंत कांय अर्थ ना. दर एके भाशेक व्याकरण आसा. व्याकरण नाशिल्ली भास ना.आमगेले भाशेक लिपी ना अशेंय म्हणटले कांय जाण आसात. पूण हिंदीक आनी मराठीक तरी लिपी खैं आसा? ह्यो भासो संस्कृत लिपी उपकारायतात. हिका देवनागरी म्हणटात. हीच लिपी कोंकणी भाशेची. तीच आमी उपकारावची.

'हिंदुस्तानांत ब्रिटिश सत्ता जरी देडशें वर्सांवैर चल्ल्या, तरी शंबरांत फक्कत 8 जाण अक्षर-वळख आल्लिल्ले आसून बाकीचे 92 लोक निरक्षरी आसात. ही दशा निवळावन सगळ्यांक अक्षरी करचें काम राष्ट्रसभेच्या सरकारान आपणाल्या आठ प्रांतांत तुर्ताक हातांत घेतलां. तांणी जाणट्या निरक्षरी लोकांक अक्षर-वळख दिवचो यत्न चलयला. तसोच यत्न कोंकणी निरक्षरी लोकांखातीर केल्यार बरें जायत. तांकां तांगेली कोंकणी भास देवनागरी लिपींत शिकैतकूच ते सट करून अक्षरी जावन, चड त्रास बादनासतना बरोवंक- वाचूंक बेगीन तयार जातले अशें म्हाका दिसलें. ह्यो म्हगेल्यो येवजण्यो, म्हगेले पालवी कार्यदर्शी भौ. वेंकटेश प्रभू हांकां हांवें कळैल्यो आनी तांणी म्हाका उमेदीचें अवसान हाडलें. रोखडोच हांव कोंकणी परिशद भरोवच्या वावराक लागलों. हांवें कळीत-पत्रां काडलीं आनी पडहात जमोवच्याक लागलों. वचत थैं लोकांनी म्हगेल्या कामाक नेट दिलो आनी जायती मानपटी जमली.'

अध्यक्ष विश्वनाथ पांडुरंग प्रभू हांचेंय उलोवप कोंकणी भाशे विशींच आसा. खंयच 'कोंकणी प्रांत' वा 'कोंकणी राज्य' वा हेर कसल्याय राजकी दर्ज्याचो विशय ना. इतलेंच न्हय; तर पयल्या तीन बसकांच्या येवकार अध्यक्षांच्या

आनी अध्यक्षांच्या उलोवपांनी वा उलोवपांतले जे वांटे मेळटात त्या वांट्यांनी कोंकणी भाशेचोच विशय मेळटा. 'कोंकणी प्रांता' चो वा राजकी दर्ज्याचो वास पसून त्या उलोवपांक ना.

माधव मं. शानभाग दुसऱ्या उताऱ्यांत जें सांगतात तें कोंकणी भास आनी लोकांक बरपाक्षरी करपाक ते भाशेचो उपेग हांचे विशीं आसा. राजकी दर्ज्याचो निखालस विचार ना. परिशदेचो जन्म आनी तिचो हावेस हे विशींच्या सत्याची शानभागमाम हांच्या उलोवपा परस बरी गवाय दुसरी ना.

## आनिकूय गवाय

आनीक एके तरेन ह्याच सत्याची गवाय मेळटा. हे खातीर चड करून पयले आनी मागीर दुसरे तशेंच तिसरे अश्या तिनूय बसकांनी मान्य केल्ल्यो थारावण्यो तपासून पळोवच्यो. शानभागमाम हांणी 'कोंकणी प्रांता'च्या हावेसान परिशद घडोवन हाडिल्ली जाल्यार पयली थारावणी त्या विशयाचेर आसतली आसली. पूण पयले बसकेन मान्य केल्ल्या 11 थारावण्यां मदीं राजकी दर्ज्या विशींची वा राजकी वास आशिल्ली अशी थारावणी निखालस ना. मागीर दुसरे बसकेन 12 आनी तिसरे बसकेन 11 थारावण्यो मान्य केल्यो. तांतुतली एकूय थारावणी प्रांत वा राज्य वा हेर कसलोय राजकी दर्जो हांचे विशीं ना.

हे सगले गवाये वयल्यान दुबावा विरयत आनी पुराय आत्मविस्वासान सांगूंक जाता तें अशें की कोंकणी परिशदेचो आरंभ कोंकणी भाशे विशींच्या अभिमानांतल्यान जालो आनी कोंकणी भाशेची उदरगत जावन सगल्या क्षेत्रांनी तिचो उपेग जावचो हो ते परिशदेचो हावेस आसलो. राजकी दर्जो मेळोवपाचो हावेस शानभागमाम हांचो नासलो आनी परिशदेचोय नासलो.

हें सत्य ध्यानांत घेतकूच रवींद्रबाब केळेकार हांचें पयलें विधान हें कल्पनेच्या आदारान निर्माण केल्लें मिथक थारता. ताका सत्याचो कसलोच आदार ना.

## कल्पनेंतली भोंवडी

रवींद्रबाब केळेकार हांणी दुसरें विधान केलां तें अशें की परिशद घडोवन हाडपाक माधव मं. शानभाग वसई ते कोची मेरेन भोंवले, गोंयांतूय येवन गेले;

पूण कोणेंच तांकां लेखूंक नात. हें विधान खंयच्या आदाराचेर केलां तें तांणी सांगूंक ना. अशें घडलें म्हणपाचें खंयच वाचूंक मेळना. त्या वेळार जे क्रियाशील आशिल्ले तांचे मदल्या कोणेंच तशें सांगूंक ना वा बरोवन दवरूंक ना. हे विशीं खासा माधव मं. शानभाग हांणी सांगलां तें वेंगळेंच आनी तें रवींद्रबाब केळेकार हांच्या विधाना कडेन जुळना. पयले बसकेंत शानभागमाम हांणी येवकाराच्या उलोवपांत सांगलां तें अशें:

'ह्यो म्हगेल्यो येवजण्यो, म्हगेले पालवी कार्यदर्शी भौ. वेंकटेश प्रभू हांकां हांवें कळैल्यो आनी तांणी म्हाका उमेदिचें अवसान हाडलें. रोखडोच हांव कोंकणी परिशद भरोवपाच्या वावराक लागलों. हांवें कळीत-पत्रां काडलीं आनी पडहात जमोवच्याक लागलों. वचत थैं लोकांनी म्हगेल्या कामाक नेट दिलो आनी जायती मानपटी जमली.'

आपूण वसई ते कोची मेरेन भोंवलों वा आपणाक कोणेंच लेखलो ना वा आपलीं फकांडां केलीं अशें कांयच खासा शानभागमाम सांगनात. हेर कोणेंच तशें सांगूंक वा बरोवंक ना.

रवींद्रबाब केळेकार हांचें सांगणें खरें काय कितें तें आनीक एके रितीन तपासून पळोवंक जाता. वसईंत त्या काळार कोंकणी विशीं आस्था आशिल्लो कोणूय आसलो अशें दिसना. मुंबय शारांत जायते जाण आसले. देखीक, शणै गोंयबाब, काशीनाथ श्रीधर नायक, फ्रान्सीस जे. मार्तीरिस, श्रीपाद रघुनाथ देसाय, दिनकर देसाय, ज्योकीं आल्वा, कमलाबाय डोंगरकेरी, ज्योकीं आंतोनियु फर्नांडीस, फादर एच. ओ. मास्कारेन्यस, काशीनाथ शिवराम लाड, वसंत बोरकार. हांचे मदल्या कोणेंच सांगूंक वा बरोवन दवरूंक ना की माधव मं. शानभाग मुंबय आयिल्ले वा तांकां मेळिल्ले. 1938-1939 वर्सांनी शणै गोंयबाब हांकां नोकरेचें वा हेर कसलेंच बंधन नाशिल्लें. कोंकणीचे उदरगतीचो वावर तांणी 1910 वर्सा सुरू केल्लो. शानभागमाम मुंबय गेल्ले जाल्यार शणै गोंयबाब, का. श्री. नायक हांकां मेळ्ळे बगर रावचे नासले. आपणें हातांत घेतिल्लो वावर संघटीत रितीन फुडें व्हरपाक परिशद भरता हें कळुनूय शणै गोंयबाब वा मुंबयचो हेर कोणूच कारवाराक गेलो ना हें बुद्दीक पटना.

शानभागमाम गोंयांत आयिल्ले हाचीय कसलीच गवाय मेळना. त्या काळांत गोंयांत कोंकणीचे अभिमानी आशिल्ले. आचार्य रामचंद्र शंकर नायक, बाकीबाब

बोरकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय तशेच आनिकूय कांय जाण आशिल्ले. पूण माधव मं. शानभाग आयिल्ले अशें कोणेंच केन्नाच सांगूंक ना वा बरोवन दवरूंक ना. कारवार गोंयचे शिमेर. वचपा-येवपाक पुर्तुगेज राजवटकेची कसलीच आडखळ नासली. तरी एकूय गोंयकार पयले बसकेक हाजीर नाशिल्लो. शानभाग आयिल्ले आनी परिशदेचें आमंत्रण दिवन गेल्ले आसतनाय अशें घडलें हें बुद्दीक पटना. अशीच खबर मंगळूरकार आनी कोचीकार हांची. तांचे मदलो कोणूच परिशदेचे ते पयले बसकेक हाजीर नासलो. उडपीचे डॉ. टी. एम. ए. पै हे 1940 वर्सा उडपींत जाल्ले दुसरे बसकेचे येवकार-अध्यक्ष जावन गेले. पूण ते पसून पयले बसकेक हाजीर नासले. तशेंच मंगळूरचे 'दिर्वें' नेमाळ्याचे संपादक लुईस मास्कारेन्यस हेवूय तांचे मर्दी नासले. दांडेलीचे के. एऩ. राव हांच्या सांगण्या प्रमाण शानभाग आनी तांचे सांगाती हांणी गांवा-गांवांनी भोंवन वांगडी केले. हांगा 'गांवा-गांवांनी' हें उतर वसई धरून कोची मेरेनच्या वाठाराक लागू करूंक जावचें ना. तें उतर कारवारच्या सरभोंवतणीं आशिल्ल्या गांवांक लागू जाता. पयले बसकेक हाजीर आशिल्ल्या मानेस्तांचीं नांवां यशवंत पालेकार हांच्या लेखांत आनी हेर कडेन वाचूंक मेळटात. तीं मतींत घेतल्यार पयले बसकेक भोव करून उत्तर कन्नड जिल्ह्यांतलेच वांगडी आशिल्ले अशें दिसता. ते बसकेचो आवांठ अखिल भारतीय रुपाचो वा आयच्या महाराष्ट्र, गोंय, कर्नाटक आनी केरळ अश्या चार राज्यां येदो नासलो अशेंच म्हणचें पडटा.

## शानभागमामाची भोंवडी

वयर उल्लेख केल्ल्या लेखांत यशवंत पालेकार हांणी जें बरयलां तें शानभागमाम खंय-खंय भोंवले तें स्पश्ट करता. पालेकार सांगतात -

> '.......तांच्यांतल्या स्वभाशे विशींच्या स्वाभिमानान पेट घेतलो आनी त्या वाठारांत कोंकणी चळवळीची बुन्याद बसली. ध्येय साधने खातीर कसलोय त्याग करपाक तयार आशिल्ल्या त्या कोंकणी लोकांचें मुखेलपण सर्गेस्त माधव मंजुनाथ शानभाग हांचे कडेन आयलें. ते कोंकणीचो बावटो घेवन कोंकणी लोक आशिल्ल्या उत्तर कन्नड आनी दक्षिण कन्नड वाठारांत भोंवले...... '

सर्गेस्त माधव शानभाग हांकां कोंकणीच्या वावरांत सहकार्य दिल्ल्यांत मल्लापूर (कारवार)चे (सर्गेस्त) सुब्राय नाडकर्णी हे मुखार आशिल्ले. ते भाटकार आशिल्ल्यान तांकां आपणालो वेळ दिवप साध्य आशिल्लें. कारवार-अंकोला वाठारांत भोंवन कोंकणी परिशदे विशीं प्रचार करपाची जापसालदारकी तांणी आपणाचेर घेतली. हेर कडेन माधव शानभाग भोंवले.

यशवंत पालेकार हांच्या लेखांतूय शानभागमाम वसई, मुंबय, गोंय, कोची हांगासर गेले असो उल्लेख ना आनी तशें मानपा सारकेंय कांय ना.

हें सगलें मतींत घेतकूच रवींद्रबाब केळेकार हांचें दुसरें विधानूय कल्पनेंतल्यान निर्माण जाल्लें मिथक म्हणपाचें कळटा. ताका सत्याचो कसलोच आदार मेळना.

## गंभीर चूक

रवींद्रबाब केळेकार हांचें तिसरें विधान म्हळ्यार मोटी चूक. ते सांगतात की गोंयांत शानभागमाम हांकां पिश्यांत काडले, तांचीं फकांडां जालीं आनी त्या फकांडांचें उप-फळ म्हूण 'चवथीचो चंद्र' हें नाटकुलें जल्माक आयलें. शानभागमाम हांकां कोणें पिश्यांत काडले, कोणें तांचीं फकांडां केलीं हे विशीं रवींद्रबाब केळेकार हांणी कांय बरोवंक ना. ह्या फकांडां कडेन 'चवथीचो चंद्र' ह्या नाटकुल्याचो संबंद जोडिल्ल्यान तर हें मिथक म्हणपाचें सामकेंच उक्तें जाता. परिशदेची पयली बसका 1939 वर्साच्या जुलय म्हयन्यांत जाली. शानभागमाम ते बसके विशीं जाग्रुताय करपाक गोंयांत आयिल्ले अशें मानलें जाल्यार ते 1939 वर्साच्या पयल्या अर्दांत वा 1938 वर्साच्या दुसऱ्या अर्दांत आयिल्ले आसूंक जाय. तांचीं फकांडां जालीं तांतुंतल्यान 'चवथीचो चंद्र' नाटकुलें जल्माक आयलें हें खीणभर खरें मानलें जाल्यार तें नाटकुलें 1938 वर्साचे अखेरेक वा 1939 वर्सा वा ताचे उप्रांत जल्माक आयिल्लें आसूंक जाय. पूण सत्य अशें की 'चवथीचो चंद्र' हें नाटकुलें आचार्य रामचंद्र शंकर नायक ऊर्फ राणू नायक हांणी 1935 वर्सा बरयल्लें; ताचो शानभागमाम हांचे कडेन कसलोच संबंद नासलो; तें नाटकुलें एके वेगळेच घडणुकेंतल्यान जल्माक आयिल्लें. हाची उपाट गवाय मेळटा.

'चवथीचो चंद्र' ह्या नाटकुल्याचे लेखक आचार्य रामचंद्र शंकर नायक ऊर्फ राणू नायक 2 जानेवारी 1960 दिसा संवसाराक अंतरले. सुमार 11 वर्सां

उप्रांत कांय जाणांनी प्रा. रा. शं. नायक स्मारक समिती नांवाची एक समिती घडयली. हे समितीन 1972 वर्सा 'प्रा. रामचंद्र शंकर तथा राणू नायक स्मृतिग्रंथ' उजवाडायलो. समितीचे सचीव गणाधीश बा. खांडेपारकार हांणी ताचें संपादन केल्लें. ह्या स्मृतिग्रंथांत एक लेख आसा काशीनाथ दामोदर नायक हांचो. तो मराठींत आसा. त्या लेखांत ते बरयतात :

'तांणी स्फुर्तीन केल्ली बरपावळ ही कोंकणींतली अशें म्हणूंक जाता. हाचो आरंभ 'चवथीचो चंद्र' ह्या नाटकुल्यान 1935 वर्सा जालो. कोंकणी भाशेंत तांणी सकयल दिल्ल्यो नाटिका बरयल्यात : 1) चवथीचो चंद्र, 2) रायबाऱ्याची व्हाड्डीक, 3) दामू कुराडो, 4) एक हजार आनी तेवीस, 5) सोनुदादालो संवसार, 6) एका परस एक हटी, 7)म्हाजो सर्गार आसल्लो घरकार. हाचे भायर तांणी 'म्हाराज' नांवाचें एक नाटक बरयलां आनी तें मुंबयच्या रेडियो वयल्यान वितरायल्लें अशें कळटा; पूण अजून तें उजवाडाक येवंक ना.' (मूळ मराठींतल्यान केल्लो अणकार )

## खरी घडणूक

ह्या उताऱ्यांतल्यान 'चवथीचो चंद्र' 1935 वर्सा बरयलें हें कळटा. 'स्मृतिग्रंथां'त बा. भ. बोरकर (बाकीबाब बोरकार) हांचोय एक लेख आसा. हो लेखूय मराठींत आसा. ह्या लेखांत बाकीबाब बोरकार 'चवथीचो चंद्र' ह्या नाटकुल्याच्या जल्माची खबर सांगतात. लेखांत ते बरयतात :

'प्रो. सांवर्डेकार (प्रो. बाळकृष्ण वामन सांवर्डेकार) ऊर्फ गजाननबाब हे नायकांचे लागींचे इश्ट. मराठीचे कट्टर पुरस्कर्ते. घरांत लेगीत मराठींत उलोवपी आनी लोकांनीय उलोवचें अशें प्रामाणिकपणान मानपी. ते एक खेपे नायकांच्या मळ्यांतल्या बिराडार आयिल्ले. हांवूय आशिल्लों. दनपारां जेवणां जाले उप्रांत कोंकणी-मराठी विशीं चर्चा सुरू जाली. तेन्ना गजाननबाब हांणी आपल्या बॅगांतल्यान तांणीच बरयल्ली संवादिका भायर

काडली आनी आमकां वाचून दाखयली. कोंकणी ही प्रमाण भास नाशिल्ल्यान ते भाशेंत बोलींचो कसो गोंदळ मातला आनी एकल्याची बोली दुसऱ्याक कळनाशिल्ल्यान विनोद कसो पिकता हें ते संवादिकेंतल्यान दाखोवपाचो तांचो प्रयत्न आशिल्लो. संवादिकेची मूळ कल्पना नायकांक आवडली; पूण ताचो आविश्कार फावो ते कलात्मकतेन जावंक ना हें तांकां जाणवलें आनी तांणी तशें उलोवनूय दाखयलें. ताचेर गजाननबाबान मात्शें कुच्छित्रांनीच म्हळें, 'उणेपणां काडप सोपें आसता. पूण बरोवप सोपें नासता.' हाचेर नायक कांय उलयले नात. पूण मनांतल्या मनांत तांणी हें आव्हान मानून घेतलें. हातुंतल्यान 'चवथीचो चंद्र' ह्या तांच्या विनोदी नाटकुल्याची निर्मणी जाली. पूण निर्मणेचे हे प्रक्रियेंतल्यानूच तांकां कोंकणीच्या सामर्थ्याचो आनी सौंदर्याचो साक्षात्कार जालो आनी ते कोंकणींतल्यान नाटिका बरोवंक लागले.............'

(मूळ मराठींतल्या उताऱ्याचो अणकार)

## गडगंज पुरावे

'चवथीचो चंद्र' हें नाटकुलें आचार्य राणू नायक हांणी 1935 वर्सा बरयलें हाचे आनीक दोन गडगंज पुरावे आसात :

पयलो – कुळागर प्रकाशनान 2007 वर्सा 'नाटक आनी नाटककार : आचार्य रामचंद्र शंकर नायक' ही पुस्तिका उजवाडायल्या. हे पुस्तिकेंत आचार्य राणू नायक हांचें ल्हानशेंच चरित्र आसा आनी तांच्या नाटकांतले कांय वांटे दिल्ले आसात. चरित्र पांडुरंग भांगी हांणी बरयलां. 'चवथीचो चंद्र' ह्या नाटकुल्या विशीं ते सांगतात :

'1934 वर्सा लिसेवार शिकपी कांय भुरग्यांनी 'União Academica (उनियांव अकार्देमिक)' ही संस्था स्थापन केली. हे नेमावळीक तात्वीक बसका तांणीच दिली. हे संस्थेच्या पयल्या वर्साच्या दबाज्याक 'चवथीचो चंद्र' हो हांसयणो खेळ तांणी

बरयलो. 1935 च्या देझेंब्राक 'उनियांवा'च्या गड्यांनी पणजेच्या स्वस्तिक क्लबाचे माळयेर तो पयलोवयलो उदेवाक हाडलो.'

'चवथीचो चंद्र' ह्या नाटकुल्याचो 1935 वर्सा फकत जल्म जालो ना; तर त्या वर्सा ताचो माचयेर खेळ पसून जाल्लो हें वयल्या उतान्या वयल्यान स्पश्ट जाता.

दुसरो-'नवें गोंय' नांवाचें एक तीन-म्हयनाळें नेमाळें मुंबय 1934, 1935 आनी 1936 अशीं तीन वर्सां चल्लें. संपादक आसले काशीनाथ श्रीधर नायक. दर एका अंकांतली चडशी बरपावळ शणै गोंयबाब हांची आसताली. त्या नेमाळ्याच्या 1935 वर्साच्या जुलय अंकांत शणै गोंयबाब हांणी 'चवथीचो चंद्र' ह्या नाटकुल्याचें परिक्षण बरयलां आनी आचार्य राणू नायक हांची तोखणाय केल्या. शणै गोंयबाब हांच्या त्या परिक्षणांतलो एक उतारो असो आसा :

'चंद्रांतल्या गड्यांची भास वाचतकूच आचार्य नायक सुताचे गिरणींत फावट मारून आयिल्ले वरी दिसतात. परंत तांचो हेत, सांवर्डेकारां भाशेन कोंकणीक नखनामी करपाचो आसत, अशें आमकां दिसना. एकाद्रो तसो आसलोय जाल्यार पाद्रीचें कुवाडें जशें अण्णाप्पाच्या हितार पडलें, तेच परी 'चवथीचो चंद्र' कारांक, तांगेले कौतुकाचे करणे खातीर, माये-मोगान वेंग मारून, तोखणायेन धन्यवाद दितात. तांणी आपणाली लिखणी अशीच कोंकणीचे सेवेक लायल्यार, ते आमचे कोंकणींतले 'मोलियेर' जावंक कळाव लागचो ना म्हणपाचें गोड भाकीत करूंक आमकां मोटी खोस जाता.'

हो उतारो पांडुरंग भांगी हांणीय आचार्य राणू नायक हांच्या त्या ल्हानश्या चरित्रांत दिला. ह्या उतान्यांत 'सुताची गिरण' अशीं उतरां येतात. वयर बाकीबाब बोरकार हांच्या लेखांतलो एक उतारो दिला. त्या उतान्यांत प्रो. गजानन सांवर्डेकार हांचे संवादिकेचो उल्लेख आसा. 'सुताची गिरण' हो ते संवादिकेचो माथाळो. देखून शणै गोंयबाब हांणी बरयल्ल्या परिक्षणांत 'सुताची गिरण' हीं उतरां आसात तसोच प्रो. सांवर्डेकार हांचोय उल्लेख आसा.

हें सगळें नदरे आड करून रवींद्रबाब केळेकार हांणी आनीक एक मिथक निर्माण कित्याक करचें तें कळना. आपूण मांडटां तें मिथक आनीक एका कारणा खातीर पांगळें थारता हाची चत्राय तांणी धरूंक जाय आसली. हें कारण अशें -

माधव मंजुनाथ शानभाग हे जल्मान कुमठेचे. ते कारवारांत रावन वकिली करताले. कोंकणीची कुमठेची शैली ही लागीं-लागीं कारवारी शैली. आनी कारवारी शैली ही काणकोणचे शैलीक लागीं. दुसरी बोली उलयतल्याक कारवारी बोली समजना अशें ना आनी समजना म्हूण विनोद घडटा अशेंय ना. देखून शानभागमाम राणू नायक हांचे कडेन उलयतना बोलींच्या गोंदळाक लागून विनोद जालो अशें घडपाची शक्यताच ना. 'चवथीचो चंद्र' नाटकुल्यांत राणू नायक हांणी मंगळूरी शैलीचो उपेग केला. ते शैलींतलीं कांय उतरां गोंयांतल्या बोलींनी नात देखून केन्ना-केन्ना गोंदळ जाता, विनोद जाता. पूण म्हत्वाचो मुद्दो असो की शानभागमाम हांची बोली मंगळूरी नासली आनी तांचे कडेन उलयतना खंयच्याय गोंयकाराचो गोंदळ जावपाची शक्यताय नासली. देखून शानभागमामाक लागून 'चवथीचो चंद्र' नाटकुल्याची निर्मणी जाली हें फकत कल्पनेचेर न्हय, तर असत्याचेर आदारिल्लें मिथक.

## सत्याच्या सोदा खातीर साधनां

ह्या विशयांत शणै गोंयबाब हांणी दिल्ली शिटकावणी आमी सगल्यांनीच आनी भोव करून अभ्यासकांनी मतींत धरूंक जाय. तांणी सांगिल्लें की आपूण सांगतां तें तुमी तुमचे बुद्दीचे साणीर घांसून कसाक लागल्यार घेयात. तशें आमी केलें जाल्यार इतिहास खंयचो आनी मिथक खंयचें, सत्य खंयचें आनी कल्पना खंयची तें कळूंक पावतलें.

मात् सत्याचो सोद घेवपाच्या मार्गांत एक अडचण आसता. सगलींच साधनां सट् करून मेळटात अशें ना. कांय साधनां विशीं आमकां खबरूय नासता. 'कोंकणी परिशद-तिसरे बसकेची खबर' हे पुस्तिके विशीं तशेंच घडलां. ही पुस्तिका 1944 वर्सा उजवाडा आयिल्ली. 1957 वर्सा शिक्षणा खातीर हांव मुंबय पावलां तेन्ना शणै गोंयबाब हांचीं चडशीं पुस्तकां गोमन्तक छापखान्यांत मेळटालीं. तेन्ना ही पुस्तिका मेळ्ळी ना. हालीं केन्ना तरी ते पुस्तिकेची झिरोक्स केल्ली प्रत मेळ्ळी. ती मेळूंक ना म्हूण खूब जाणांनी वाचूंक ना. घडये, मिथकां निर्माण जावपाचें हें एक कारण. इतिहास विकृत जावचो न्हय हे खातीर ते पुस्तिकेचें संपादन करचें आनी ती परतून उजवाडाक हाडची अशें म्हाका दिसलें. तें ह्या पुस्तकांत केलां. संपादन करतना पुस्तिकेंतले मांडावळींत तशेंच हेर कांय

बदल करपाची मेकळीक हांवें घेतल्या. वाचप्यांक आनी अभ्यासकांक पयल्या तीन बसकांची खबर क्रमान वाचूंक मेळची, आदल्या शुद्धलेखनाक लागून वाचतना आडखळ जावची न्हय आनी गरज ना म्हूण 'चुकावळ' कडेक दवरची हें मतींत धरून बदल केल्यात. पुस्तिकेंतल्या नियांळातलें एकूय उतर कांडूक ना वा दुसरें घालूंक ना. बदल केल्यात ते अशे :

- हे पुस्तिकेंतली बरपावळ शुद्धलेखनाच्या सध्याच्या नेमां प्रमाण छापल्या.
- आदले पुस्तिकेंतल्या पयल्या परिशिश्टांतली 'पयले बसकेची खबर' आदीं दिल्या.
- आदले पुस्तिकेंतल्या दुसऱ्या परिशिश्टांतली 'दुसरे बसकेची खबर' पयले बसकेचे खबरे उप्रांत दिल्या.
- तिसरे बसकेची खबर, जी मूळ मांडावळींत आरंभाक आसा ती दुसरे बसकेचे खबरे फाटल्यान दिल्या.
- तिसरे बसकेंत मान्य जाल्ल्यो थारावण्यो (आदलें परिशिश्ट 16) बसकेच्या नियाळाक जोडून दिल्यात.
- आदलें परिशिश्ट 13 (अध्यक्षांल्या उलोवपाचो अणकार) परिशिश्ट 1 केलां.
- परिशिश्ट 3, 4, 5 अशें पुस्तिकेंत आसा, थंय तें फकत परिशिश्ट 3 केलां.
- ह्या बदलांक लागून हेर परिशिश्टांचे क्रमांक बदल्ल्यात.
- मूळ पुस्तिकेंत उरिल्ल्यो छापणावळीच्यो चुको सुदारल्यात; देखून 'चुकावळ' भायर दवरल्या.
- मूळ पुस्तिकेचें मुखपान (हाचेर मांडावळ दिल्ली आसा) कशें आसलें तें कळचें म्हूण छापलां.

इतिहास विकृत जावचो न्हय आनी सत्याची सुवात मिथकान घेवची न्हय हो ह्या वावरा फाटलो हावेस. तो फळादीक जालो जाल्यार फुडाराक परिशदेचो इतिहास बरोवंक वा परिशदे विशीं संशोधन करूंक सोदतल्यांची दिशा चुकची ना अशी आस्त हांव धरतां.

***

# कोंकणी परिशद

## तिसरे बसकेची खबर

### मुंबै १९४२

सेतेंब्र, १९४४ ]  [ मोल ८ आणे

## मांडावळ



कोंकणी परिशद–तिसरे बसकेची खबर – मुंबय 1942 हे पुस्तिकेचें मुखपान.



मुंबयचे तिसरे बसके वेळार काडिल्लो फोटो. मदीं हातांत हॅट घेतिल्ले प्रो. आर्मांद मिनेझिस (अध्यक्ष), तांचे दावे वटेन वामन र. वर्दे वालावलीकार (येवकार अध्यक्ष) आनी फाटल्यान फलक आसा थंय लागींच धवी तोपी घाल्ले माधव मंजुनाथ शानभाग. हेरांची वळख मेळना.

# कोंकणी परिशद पयले बसकेची खबर कारवार – 1939

तारीख 8 जुलय 1939 हो दीस कोंकणाच्या इतिहासांत भांगराच्या अक्षरांनी बरोवच्या म्हत्वाचो जालो. ह्या दिसा, सगळ्या हिंदुस्तानांतलो कोंकणी लोक जात-पात आनी धर्म मनांत हाडिनासतना, एका मत्तान आनी एका चित्तान आपणाली आवय-भास वयर उखलपाच्या वावराक लागलो. ह्या वावराची म्हूर्तमेड तांणी कारवारच्या पवित्र थळांत रोयली.

आर्य लोक उत्तर हिंदुस्तानांतसून कोंकणांत येवन वसूंक लागल्यार अडेच हजारां वयर वर्सा जालीं. ह्या लांब काळांत, तांगेली वेदीक वा संस्कृत भास कोंकणांतले थळावे भाशेंत भरसून, मिसळून आनी मेटून, तरेकतरा भावनांच्या अर्थान उपाट भरिल्ली, अरळ, नाजूक आनी गोड-म्होंवी कोंकणी भास जल्मा आयली. ही भास कोंकणी लोक जंय वेतीत थंय आपणाल्या घरगुती वेव्हारांत आजवेर घोळयताले आनी घोळयतात खरे; पुणून लगतुबायेन सरस्पतीच्या मखरांत ती पुजेक लावन, तिचो अमृतादीक प्रसाद घेवची वान्सा तांकां केन्नाच जाली ना. हाचें कारण ह्या लोकांलो सुखवासी सबावगुण जावंये. कसलीय परकी वस्त आयती तयार केल्ली मेळून कशेंय काम जातकूच, घरांतले वस्ती खातीर कश्ट काडप तांकां मानना, आनी ह्या कारणान, ती वस्त कितलीय बरी, मोलादीक आनी उपयोगाची आसलीय जाल्यार, उबन्त पडटा. अशीच गजाल सुंदर, सोबीत, ओजिश्ट आनी तेजिश्ट बरे कोंकणी भाशेची जाली, हें येवजून

मोटो खेद जाता. पुणून जाल्ले-गेल्ले गजालीक उपाय ना. जुलयचे 8 तारखेक कोंकणी लोकांनी आजवेर घडिल्ली ही चूक निस्तरावंक नेटान कमर बांदलें, हें पळोवन मोटी तोखणाय दिसता आनी आमगेले आवय-भाशेच्या भाग्यवंत फुडारा संबंदान आतां आनीक हुस्को काडचो लागना, हें येवजून जीव सूऽ जाता.

कोंकणी भास वयर उखलपाची म्हूर्तमेड लावंक कारवारचे परिशदेक हजारावयर लोक जालो. तांतूंतले चड करून सगळेच नांवा-लोकिकाचे विद्वान पंडीत आनी उंच कर्तृत्वदशेचे देसभक्त आसले. प्रांतीक आनी मदगत्या कायदेमंडळांचे वांगडी, तशेच मुंबयच्या आनी मद्रासच्या विद्यापिठांचे ग्रॅज्वेट आनी नामनेचे वकील मुजरत हे परिशदेक आयल्ले. हांगा चड ध्यानांत धरपाची गजाल म्हळ्यार ही की सुमार तिनश्यांवयर बरपाक्षरी बायलो मंगलकार्यांत मोटे उमेदीन वावुरताल्यो.

कारवारचे विद्वान गृहस्थ भो. वेंकटेश रामचंद्र प्रभू हांणी मुजरत रचिल्लें कोंकणी येवकार-गीत कांय चलयांनी म्हणून जातकूच, परिशदेचे कर्तृत्वी कार्यदर्शी भो. माधव मंजुनाथ शणै शानभाग, एम.ए., एल. एल. बी., हांणी जमिल्ल्या लोकांक मायेन येवकार दिवन म्हळें, 'आमी हिंदुंनी आमगेले आवय-भाशेचें म्हत्व आजवेर ध्यानांत घेतलें ना. आमी जंय-जंय पावले थंय-थंयची भास माथ्यार उबारली. हे तरेन, कर्नाटकांत कानडी, मराठणांत मराठी आनी मलबारांत मल्याळी अश्यो आमगेल्यो भासो जाल्यो. घरांत मात आमी आमगेली कोंकणी भास सोडली ना. आमगेले क्रिस्तांव भाव वेतीत थंय, घरगुती वेव्हारांत आनी धर्मीक गजालींत कोंकणीच भाशेक वेंगून रावले. ते रोमी लिपींत आपणालीं कागदां-पत्रां बरयतात आनी वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं चलयतात. क्रिस्तांवांलो आवय-भाशेचो अभिमान पळोवन म्हाका मोटी खोस जाता. आमगेले भाशेक व्याकरण ना अशें म्हणटले कांय जाण आसात. पूण हे म्हणणेंत कांय अर्थ ना. दर एके भाशेक व्याकरण आसा. व्याकरण नाशिल्ली भास ना. आमगेले भाशेक लिपी ना अशेंय म्हणटले कांय जाण आसात. पूण हिंदीक आनी मराठीक तरी लिपी खंय आसा? ह्यो भासो संस्कृत लिपी उपकारायतात. हिका देवनागरी म्हणटात. हीच लिपी कोंकणी भाशेची. तीच आमी उपकारावची.

'हिंदुस्तानांत ब्रिटिश सत्ता जरी देडशें वर्सां वयर चल्ल्या, तरी शंबरांत फकत 8 जाण अक्षर-वळख आशिल्ले आसून बाकिचे 92 लोक निरक्षरी आसात. ही

दशा निवळावन सगळ्यांक अक्षरी करचें काम राष्ट्रसभेच्या सरकारान आपणाल्या आठ प्रांतांत तुर्ताक हातांत घेतलां. तांणी जाणट्या निरक्षरी लोकांक अक्षर-वळख दिवचो यत्न चलयला. तसोच यत्न कोंकणी निरक्षरी लोकां खातीर केल्यार बरें जायत. तांकां तांगेली कोंकणी भास देवनागरी लिपींत शिकयतकूच ते सट् करून अक्षरी जावन, चड त्रास बादनासतना बरोवंक-वाचूंक बेगीन तयार जातले अशें म्हाका दिसलें. ह्यो म्हगेल्यो येवजण्यो, म्हगेले पालवी कार्यदर्शी भो. वेंकटेश प्रभू हांकां हांवें कळयल्यो आनी तांणी म्हाका उमेदीचें अवसान हाडलें. रोखडोच हांव कोंकणी परिशद भरोवच्या वावराक लागलों. हांवें कळीत - पत्रां काडलीं आनी पडहात जमोवच्याक लागलों. वचत थंय लोकांनी म्हगेल्या कामाक नेट दिलो आनी जायती मानपटी जमली.

'म्हगेले विनंतीक मान दिवन तुमी अगत्यान हांगा आयल्ले पळोवन म्हाका मोटी खोस जाता. ती म्हज्यान तुमकां सांगच्याक जायना. आज हांगा इतलो लोक जमत अशें म्हाका केन्नाच दिसूंक नासलें. ही आमगेले आवय-भाशेची पुण्याय. तिणें तुमकां-आमकां एकठांय केले. तुमचे खातीर हांगा जी मांडणी केल्या तांतूंत कसलीय तूट आसल्यार तुमी म्हाका मकलासी करात.'

मागीर परिशदेचे विद्वान अध्यक्ष भो. विश्वनाथ पांडुरंग प्रभू, बी. ए., हांगेलें उलोवप जालें. तांणी म्हळें, 'कोंकणी भास म्हळ्यार इल्लेशें कुस्कूट; तिची व्हडवीक गावंक परिशद कित्याक भरोवंक जाय, अशें परक्या भासांच्या कांय लोकांक दिसतलें. पूण ती भास कुस्कूट न्हय; ती ल्हान आसल्यारूय सुंदर दोंगरावरी सोबीत दिसता. डॉ. विल्सन आनी डॉ. ग्रियर्सन बी येवरोपी पंडितांनी तिची तोखणाय केल्या. चड पुर्विल्ल्या काळा पासून ती घोळटेंत आसा. संस्कृतांतसून जाल्ले प्राकृत भाशेंतसून ती जल्मल्या. मराठीय परस ती आदीं जाल्या. ही भास उलयतल्यांत हिंदू, क्रिस्तांव आनी मुसलमान ह्या तिनूय मुखेल धर्मांचे लोक आसपावतात. क्रिस्तांव आनी नवायत मुसलमानांनी जाल्यार ही भास आपल्या जिवाय परस अदीक लेखून राखून धरल्या.'

'क्रि. स. 1678 त देवनागरी लिपींत छापिल्लो पयलो कोंकणी लेख मेळटा. ते आदीं त्या लिपींत छापिल्लो हेर खंयचेच देशी भाशेचो लेख मेळना. कोंकणी भाशेचें पयलेंवयलें व्याकरण इंग्रज जेजुईत पाद्री स्टीफन्स हाणें सुमार तिनशीं वर्सां फाटीं पुर्तुगेजींत रचलां. हाचे आदीं हेर खंयचेच देशी भाशेचें व्याकरण जावंक

ना. कोणेंय गोंयकारान ह्या व्याकरणाचें कोंकर्णीत भाशांतर केल्यार हे भाशेचेर व्हडले उपकार जातीत.'

'कोंकणी भाशेचो हो फाटलो थोडोसो इतिहास सांगलो. हालींच्या काळांत आवय-बापूय नाशिल्ल्या उबन्त पोरावरी तिची अवस्था जाल्या. हे भाशेक राजाचो आदार केन्नाच मेळ्ळो ना. उलोवपा पेल्यान ही चडशी घोळना. पळोवंक गेल्यार, ही भास गोड, रसाळ आनी मोवाळ आसा. हांतूंत गितां, म्हणण्यो, काणयो बी साहित्य जायतें भरलां. ही भास उलयतले लोक बुदवंत आसून विद्वान, पंडीत आनी कर्तृत्वी अशी नामना तांणी जोडल्या. देखून, आमी ही भास उबन्त उडोवंक फावना. ती लागीं करून वयर उबारूंक जाय.'

उप्रांत कार्यदर्शी भो. शानभागांनी परिशदेक बरें मागून आयल्ल्यो तारो आनी पत्रां वाचून दाखयलीं. हे भाशेन, पयल्या दिसाचें काम उलगलें. दुसऱ्या दिसा 9 तारखेक सकल दिल्ल्यो थारावण्यो परिशदेन एका मत्तान मान्य केल्यो :-

1. जे लोक कोंकणी सध्या उलयतात तांणी ती वयर उखलचे खातीर आपणाल्या खासगत वेव्हारांत (पत्रां बरोवप, हिशेब दवरप बी कामांत) घोळोवची, अशी ही परिशद तांकां विनंती करता.
2. सरकारान सध्या आमगेल्या देशांत निरक्षरी जाणट्या लोकांक अक्षरी करचो यत्न चलयला. देखून, कोंकणी भाशेच्या लोकांक देवनागरी लिपीची वळख दिवन, ते लिपींत तांगेलीच भास तांकां शिकोवची मांडणी करची, अशी ही परिशद सरकारा कडेन आगऱ्यान मागणी करता.
3. साळांनी शिकूंक जाय-जाल्लीं नवीं पुस्तकां तयार करपा संबंदान, सरकारान कोंकणी भाशेच्या लोकां खातीर कोंकणी भाशेचीं पुस्तकां देवनागरी लिपींत तयार करचीं; आवय-भाशेंत शिकयल्यार शिकप सोपेपणान बेगीन समजता; देखून, ही परिशद सरकारा कडेन अशी मागणी करता.
4. लोक-गणतेच्या तपशिलांत कोंकणी उलयतल्या लोकांलो आंकडो वेगळोच दाखोवची चाल आशिल्ली दिसता. ही चाल 1941 च्या आनी फुडल्या लोक-गणत्यांनी अशीच चलोवची, अशी मागणी ही परिशद सरकारा कडेन करता.
5. कोंकणी भाशेच्या लोकां खातीर जल्मल्ल्या संस्थांनी, हे भाशेच्या

लोकांल्या उपयोगाक जीं पुस्तकां वा साताळीं, म्हैनाळीं, तिम्हैनाळीं बी पत्रकां उजवाडावर्चीं आसतात तीं कोंकणींत उजवाडावचीं, अशें ही परिशद तांचे कडेन नम्रतायेन मागता.

6. सगळ्या आर्यवर्गी भासांची सामान्य लिपी जी देवनागरी तीच फार्टी मेरेन कोंकणी भाशेची लिपी आसली; देखून सगळ्यांक मान्य अशे हे देवनागरी लिपींत कोंकणी भाशेचें घोळप जावचें, अशें ही परिशद थारायता.

7. कोंकणी भास उलयतल्या लोकांली वस्ती जंय अदीक आसता थंय तांगेल्या भुरग्यांलें मुळावें शिकप कोंकणी भाशेंत जावची मांडणी सरकारान करची. तशेंच, हिंदी भास आनी नवे तरेचे काम-धंदे हांचें शिकप, कोंकणी भाशेच्या भुरग्यांक सगळेकडेन कोंकणी भाशेंतूच शिकोवची मांडणी करची, अशी हे परिशदेची आगऱ्याची विनंती आसा.

8. ज्या गांवांनी कोंकणी भाशेचे लोक अदीक आसतीत थंयच्या मुळाव्या शाळांनी कोंकणीच जल्मभास आशिल्ले शिकोवपी नेमचे, असो हे परिशदेचो आगरो आसा.

9. आजदीस मेरेन उजवाडायल्लीं कोंकणी भाशेचीं पुस्तकां वाचप-घरांनी दवरूंक आनी बक्षिसां दिवंक शिकोवपा-पुस्तकां-समितीन (टेक्स्ट-बुक-कमिटीन) मान्य करचीं, असो हे परिशदेचो चड आगरो आसा.

10. साळांनी शिकोवचीं नवीं पुस्तकां रचचे खातीर सरकारान जी समिति नेमल्या ते समितींत कोंकणी भाशेचे वांगडी घेवचे आनी कोंकणी भाशेचींय शिकोवचीं पुस्तकां ते समितीन उजवाडावचीं, अशी ही परिशद मुंबय सरकाराक आगऱ्याची विनंती करता.

11. वयल्यो थारावण्यो जंय जंय धाडूंक जायत थंय थंय धाडचो अधिकार ही परिशद आपणाल्या कार्यदर्शीक दिता.

निमाणें अध्यक्ष, पडहात, वांगडी बी सगळ्यांचे उपकार मानून आनी राष्ट्रगीत म्हणून जातकूच, पयली कोंकणी परिशद सुसंगीत तडीक पावली.

***

# दुसरे बसकेची खबर
# उडपी–1940

तारीख 31 देजेंब्र 1940 दिसा, उडपी शारांत, श्रीरामकृष्ण थियेटरांत, दुसरी कोंकणी परिशद भरली. दादले आनी बायलो मेळून हजारावयर कोंकणी लोक जमलो. परिशदेक नांवादीक आनी मानादीक कोंकणी विद्वानांले आनी म्हालम्हाजनांले आशीर्वाद आनी बलायक्यो आयल्यो. तांतूंत काशीमठाचे श्रीमान् स्वामी हांगेलो आशीर्वाद आसलो. मंगळूरचे भिस्म रायट रेव्हरंड फेर्नान्दिस हांणी कोंकणींत पत्र बरोवन, हे भाशेचे मंजुळकायेची मोटी तोखणाय केली आनी ही सुंदर भास तुर्ताचे उबन्त दशेंतसून वयर काडूंक परिशद भरोवप होच खरेलो मार्ग, अशें आपणालें मत्त कळयलें. कारवारचे वीणाविशारद पंडित मंगेश रामकृष्ण तेलंग, मंगळूरचे वेपारी भो. एम. वेंकटेश पै, 'राखण्या'चे संपादपी पाद्री मिनेझिस आनी कार्कळचे वकील भो. के. लक्ष्मुमण पै हांणी पत्रां बरोवन परिशदेचें बरेपण चिंतलें.

येवकार–अध्यक्ष डॉ. टी. माधव पै हांणी सगळ्यांक मायेन येवकार दिवन तांचे उपकार मानले आनी परिशदेचो हेतू कळयलो. तांणी आपल्या उलोवपांत म्हळें, 'क्रिस्तांव भावांनी कोंकणींत जायती सरस्पत घडयल्या, तशेंच, कांय हिंदू आनी नवायत मुसलमान आपणार्ली कागदां–पत्रां आनी हिशेब कोंकणींत दवरतात. पूण हे भाशेची लिपी वेगळ्या वेगळ्या थळांनी वेगळी वेगळी चलता; अशें करिनासतना, तिका फावो जाल्ली एकूच लिपी हे परिशदेन थारावची.

कोंकणीची निजाची लिपी देवनागरी आसून, ही लिपी चलयल्यार हिंदी राष्ट्रभास आनी हेर भासो शिकूंक सोपें जातलें. मुळाव्या शाळांनी कोंकणी भुरग्यांलें शिकप कोंकणींतसून जावचें हें चड अगत्याचें आसा, देखून तशी मांडणी करची.'

मागीर परिशदेचे अध्यक्ष, थारावल्ले प्रांता-जुवीज आनी मद्रासच्या कायदेमंडळाचे वांगडी भो. जेरोम ए. साल्दाञ्ज, बी. ए., एल. एल. बी., एम. एल. सी. (मद्रास) हांगेलें उलोवप जालें. तांणी म्हळें, 'कोंकणी भास ही हिंदी-आर्य भासांच्या वर्गांतली एक सुंदर आनी सोबीत भास आसा. ही भास मराठी वरी प्राकृतांतसून जल्मल्या. प्राकृत ही ह्या दोनूय भासांची सामान्य आवय. हिंदुस्तानांत पाविल्लो पयलो इंग्रज मनीस पाद्री थॉमस स्टीफन्स हाणें हे भाशेचें व्याकरण रचलां. दक्षीण कोंकणांतले हिंदू, क्रिस्तांव आनी नवायत मुसलमान ही भास उलयतात. उत्तर हिंदुस्तानांतसून जे बामण भोंवडेकार कोंकणांत पावन वसणूक करून रावले तांणी थंयचे मूळचे थळावे भाशेक आपणाले भाशेचे संस्कार करून आजची कोंकणी भास वयर सरली जावये. ही भास वेगळ्या वेगळ्या आवांठांनी वेगळे वेगळे तरेन उलोवन हिच्यो कांय परी जाल्यात. कोंकणी भास उलयतल्या लोकांलो आंकडो सगळ्या हिंदुस्तानांत तुर्ताक वीस लक्ष आसतलो अशें म्हणुं येत. ह्या तुळू कोंकणांत जायत्यो भासो घोळटात; तांतूंत आमगेली एक भास आसा. ही उलयतल्या लोकांलो आंकडो हांगा दोन लक्ष आसा. सगळ्यांत व्हडलो आंकडो तुळू भास उलयतल्यांलो स लक्ष आसा. पुणून विद्येंत आमगेलोच लोक सगळ्यां मुखार आसा, हें पळोवन जीव धादोसता. जाल्यारूय, आमगेल्या भुरग्यांक अजून आवय-भाशेंत शिकोवची मांडणी हांगा करूंक नाशिल्ली पळोवन वायट दिसता. कोंकणी भास तुर्ताक कानडी, देवनागरी आनी रोमी लिपींत बरयतात. गोंय आनी मुंबय प्रांतांत क्रिस्तांव लोक रोमी लिपी जास्त उपकारायतात. बेळगांव आनी धारवाडच्या वाठारांतल्या कोंकणी क्रिस्तांवांलीं धर्मपुस्तकां देवनागरी लिपींत उजवाडायतात. गोंया सकयल्या वाठारांत कानडी भास घोळिल्ल्या कारणान थंयचें कोंकणी बरप कानडी लिपींत करतात. हे तरेन, वेगळ्या वेगळ्या आवांठांनी कोंकणी लोक वेगळ्यो वेगळ्यो लिपी घोळोवंक लागून, कोंकणी भाशेच्यो अदीक लिपी जावंक पावल्यात. अशे अवस्थेंत, कोंकणी भाशेची एक लिपी खंयची थारावची हें सांगूंक कठीण पडटा. जाल्यारूय, जपान, तुर्कस्तान बी देशांत हालीं रोमी लिपी चलयल्या, तशीच

कोंकणी भाशेकूय ही लिपी चलयल्यार जाता. ही लिपी चडशी शास्त्र नेमान घडूंक नासलीय जाल्यार, बरोवंक सोपी आसून राष्ट्रांतल्या वेव्हारांत हिका मान्यताय मेळ्ळ्या. तरी आसतना, तुर्ताक हिंदुस्तानांत हिंदी भास ही राष्ट्रभास करचो गजगज चल्ला आनी हिची लिपी देवनागरी आशिल्ल्या कारणान, कोंकणी भाशेचीय हीच लिपी थारायल्यार चड बरी अशें दिसता. पाद्री माफेय सारक्या येवरोपी लोकांनी चड तोखेल्ली आमगेली भास आमी आमचो सोबीत अळंकार कसो लेखून, तिचो मोग करूया, ती वयर काडुया, तिची सरस्पत घडोवया, ती हेरां हिंदी भासां फाटल्यान पडूंक दिवंया नाका, ती फुडें हाडुया.' मागीर मुंबयच्या आनी गोंयच्या सरकारांनी कोंकणीक मान्यताय दिल्ली ध्यानांत घेवन, अध्यक्षांनी तांचे उपकार मानले आनी मद्रास सरकारानूय कोंकणी भास उलयतल्या लोकांल्या हक्काक मान दिवचो अशी इत्सा दाखयली.

परिशदेंत कारवारा मान्य जाल्ल्यो थारावण्यो कांय बदलान एका मत्तान मान्य जावन, त्या भायर आनीक दोन थारावण्यो मान्य जाल्यो; ताचो तपशील :-

1. कोंकणी भास उलयतल्या सगळ्या लोकांनी आपणाले हिशेब आनी कागदां-पत्रां कोंकणींत दवरचीं आनी कोंकणी भाशेच्या लोकां कडेन कोंकणींत उलोवचें आनी बरोवचें.
2. कोंकणी भाशेची लिपी देवनागरी आसची.
3. कोंकणी भास जाणा-जाल्ल्या लोकांल्या हिता खातीर, साळांनी उपकारावचीं सगळीं नवीं पुस्तकां कोंकणी भाशेंत आनी देवनागरी लिपींत उजवाडावचीं. आवय-भाशेंत शिकोवप जाल्यार चड आदावाचें जाता.
4. कोंकणी भास उलयतल्या जाणट्या लोकांक देवनागरी लिपींत ही भास शिकोवची. जाल्यारूय, देवनागरी लिपींत जास्त कोंकणी सरस्पत जायसर, कांय काळ दुसऱ्यो लिपी शिकयल्यार जातात.
5. 1941 चे येते लोक-गणतींत सगळ्या हिंदुस्तानांतल्या कोंकणी भास जाणा-जाल्ल्या लोकां खातीर वेगळेंच कलम राखून दवरचें; म्हणटकूच, तांगेलो खरेलो आंकडो कळूंक बरें पडटलें.
6. कोंकणी भास जाणा-जाल्ल्या लोकां खातीर येवजिल्लीं आनी तांगेल्या खाशेल्या संस्थांनी सुरू केल्लीं सगळीं पुस्तकां आनी वर्तमानपत्रां ह्यापुडें कोंकणी भाशेंत उजवाडावचीं.

7. ज्या साळांनी कोंकणी भास जाणा जाल्ल्या लोकांलो चडताव आसत थंय कोंकणी भास शिकोवची मांडणी सरकारान करची आनी ह्या शिकपापेलें हेर कसलेंय शिकप कोंकणींतूच चलोवचें.

8. ज्या थळांनी कोंकणी भास उलयतल्या लोकांली वस्ती चड आसत थंयच्या मुळाव्या साळांनी जे शिकोवपी नेमतात तांकां कोंकणी भासूय येवंक जाय.

9. आजदीस मेरेन उजवाडायल्लीं कोंकणी पुस्तकां वाचप-घरांनी दवरूंक आनी बक्षिसां दिवंक शिकोवपा-पुस्तकां-समितीन (टेक्स्ट-बुक-कमिटीन) मान्य करचीं.

10. साळांनी शिकोवचीं नवीं पुस्तकां रचचे खातीर सरकारान जी समिती नेमल्या तांतूंत कोंकणी भास जाणा-जाल्लो वांगडी नेमचो आनी असले हे समितीन कोंकणी पुस्तकां उजवाडावचीं.

11. सगळ्या हिंदुस्तानाचे आकासवाणींत (ऑल-इंडिया-रेडियोंत) कोंकणी कार्यावळींचो आसपाव जावचो.

12. खासगत चलयल्ल्यो कोंकणी मुळाव्यो साळो, हरशीं समाधानीक रितीनचलतात-श्यो जाल्यार, पालवी दक्षणा (ग्रॅंट-इन-एड) दिवंक मान्य करच्यो.

निमाणें, अध्यक्ष, पडहात, वांगडी बी सगळ्यांचे उपकार मानून आनी राष्ट्रगीत म्हणून जातकूच, दुसरी कोंकणी परिशद सुसंगीत तडीक पावली.

***

# तिसरे बसकेची खबर मुंबय–1942

## येवकार–समितीची थापणूक आनी काम–करपी–समितीची वेंचणूक

कोंकणी परिशदेची पयली बसका 1939 त कारवारा जाली. तिची दुसरी बसका 1940 वर्सा उडपी शारांत भरली. तिसरी बसका मुंबय जावची अशी सुचोवणी कारवारचे बसकेचे कार्यदर्शी भोवमानेस्त माधव मंजुनाथ शणै शानभाग, एम. ए., एल. एल. बी., हांणी तांगेल्या कांय इश्टांक केली. भो. मर्तू शेशगिरी कामत ह्या कामाक फुडें सरले आनी तांणी भो. शानभागांले सुचोवणेचो विचार करचे खातीर आपणाल्या इश्टांची एक सभा मागयली. ही सभा ता. 6 देजेंब्र 1941 दिसा जाली. तिचें यजमानपण भो. कृष्ण नारायण शणै गायतोंडे हांणी केलें. सभेन एक गरजे–ताकती– समिती नेमली आनी परिशदेची तिसरी बसका भरोवची येवजण करचे खातीर कोंकणी लोक, तांगेल्यो संस्था आनी कोंकणी नेमाळेंकार हांची सभा मागोवचें काम तिचेर सोंपयलें.

गरजे–ताकती–समितीन रोखडींच कळीत–पत्रां काडून ता. 26 देजेंब्र 1941 दिसा, शुक्रारा सभा मागयली. तिचें यजमानपण 'बाँबे क्रॉनिकल' चे विद्वान पालवी–संपादपी भो. रामराव शांताप्पा पडबिद्री, एम. ए. हांणी केलें.

सभेक कोंकणी संस्थांचे पडहात आनी हेर मेळून शंबरां वयर लोक आयल्ले. ते भायर साहित्य-संगीत-दर्शनाचार्य वीणा-विशारद पंडित मंगेश रामकृष्ण तेलंग, आचार्य काकासायब कालेलकार, रावबहादुर श्रीपादबाब तालमकी, दुसरे बसकेचे येवकार-अध्यक्ष डॉ टी. माधवराव बी विद्वानांनी सभेक बरें मागून पत्रां धाडिल्लीं; तीं वाचून जातकूच, परिशदेचे पयले बसकेचे अध्यक्ष भो. विश्वनाथ पांडुरंग प्रभू, बी.ए., कार्यदर्शी भो. शानभाग आनी हेरांलीं उलोवपां जालीं. तांतूंत तांणी फाटल्या दोन बसकांनी कसलें काम केलें आनी तिसरी बसका भरोवचें कितलें अगत्य आसा तें बारकायेन सांगलें. निमाणें, मुंबयंत इस्टरचे सोडींत, परिशदेची तिसरी बसका जावची अशी थारावणी एका मत्तान मान्य जाली आनी हे बसकेची मांडणी करचे खातीर जाय-जाल्ले अधिकार दिवन बावीस जाणांली एक समिती नेमली. फुडें, ता. 18 जानेर 1942 दिसा भो. रामचंद्र कृष्ण प्रभू, बी. ए., हांचे अध्यक्षतेन, वयले समितीन आपयल्ले सभेन आपणाभितर आनीक 14 जाणांक मेळोवन घेवन तिका येवकार-समितीचें रूप दिलें आनी तांतूंतल्यान काम-करपी-समितीचे बदली-अध्यक्ष, तिचे जोड-बरपी, जोड-भाण्डारी आनी कांय वांगडी हांची वेंचणूक करून कांय जागे रिते दवरले; काम-करपी-समितीचे सभेचो अगत्या-आंकडो आठ वांगड्यांचो थारावन, तिचें आनी येवकार-समितीचें यजमानपण शणै वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार हांणी एकल्यानीच करचें अशें थारायलें. तेच भाशेन, परिशदेक येतल्या लोकांले 'येवकार-समितीचे वांगडी' आनी 'संस्थांचे पडहात' अशे दोन वर्ग करून, तांचे कडसून घेवची मानपटी अनुक्रमान उण्यांत उणे दोन आनी एक रुपया अशी थारायली आनी जोड-हिशेब-तपासपी म्हणून दोगां जाणांली वेंचणूक केली.

## काम-करपी-समितीच्यो सभा

काम-करपी-समितीच्यो कुल्लीं चार सभा जाल्यो. ह्या सभांनी सकला दिल्लीं कामां जालीं :-

समितीर रिते दवरिल्ले कांय जागे भरले; वेगळीं-वेगळीं कामां करचे खातीर स पोट-समित्यो घडल्यो. परिशदे खातीर जमिल्लो दुडू 'धि कॅनरा बँक लिमिटेड' चे गिरगांवांतले खांदयेंत दवरून ताचो वेव्हार कोणें, कसो करचो तें थारायलें;

कोंकणी भास आनी परिशद हांचे संबंदान जीं कामां फुडें करचीं पडटीत तीं आंगार घेवंक मुंबय एक सदांकाळीक संस्था आसची अशें थारून, तिची घडण आनी नेमावळ तयार करचे खातीर एक समिती नेमली. परिशद पळोवंक येतल्यांचे दोन वर्ग करून तांचे कडसून रीगपटी घेवची अशें येवकार-समितीन थारायल्लें. परंत परिशदे खातीर भाड्यान घेतिल्ल्या जाग्यार रीगपटी घेवंक फावना अशी त्या जाग्याच्या धनयांची बांदणी आशिल्ल्यान ती घेवची न्हय अशें काम-करपी-समितीन थारायलें.

मानीक जोड-हिशेब-तपासपी म्हूण भो. आनंदराय एस. वागळे आनी भो. एम. अनंत कामत हांची येवकार-समितीन वेंचणूक केल्ली. परंत तांणी त्या जाग्याची सोडचीट दिली. परिशद जाले उप्रांत भरिल्ले काम-करपी-समितीचे चवथे सभेन ती मान्य करून, हिशेब तपासून पळोवचें काम भो. दत्तात्रय अनंत बिजूर हांचेर सोंपयलें.

## येवकार-समितीच्यो सभा

येवकार-समितीच्यो दोन सभा जाल्यो. पयले सभेची गजाल वयर आयल्या. दुसरी सभा ता. 28 मार्स 1942 दिसा जाली. तिका 29 वांगडी आयल्ले. काम-करपी-समितींत रिते दवरिल्ले जागे हे सभेन भरले; जाल्ल्या कामाचो सराव घेवन, काम-करपी-समितीन परिशदेचे येवजिल्ले अध्यक्ष प्रोफेसोर आर्मान्द मिनेझीस, एम. ए., हांगेल्या नांवाक मान्यताय दिली; आनी परिशदेंत मांडचेल्या थारावण्यांचो खड्डो तयार करचे खातीर एक समिती नेमली.

## पोट-समित्यांचो वावर

काम-करपी-समितीन, वेगळीं-वेगळीं कामां करचे खातीर, स पोट-समित्यो घडिल्ल्यो. तांकां नेमून दिल्लीं कामां तांणी पोटतिडकेन केलीं. प्रचार-समितीन दाबुलांत आनी भायखळ्या मेळून दोन सभा भरयल्यो, त्यो भोव बरे तरेन तडीक पावल्यो. हांतूंतले पयले सभेचें यजमानपण डॉ. जोस आल्बान दे सौज, बी. ए., एल. एम. अँड एस. जे. पी., हांणी केलें. दुसरे सभेचे यजमान डॉ. ए. सी. रेबेल, एम. बी. बी. एस. टी. एम. अँड एच., हे आसले. दोनूय सभांनी मेळून

भो. ज्योकीं आल्व्हा, बी. ए., एल. एल. बी., दिनकर देसाय, एम. ए., एल. एल. बी., रामचंद्र नारायण नायक, बी. ए. एस. टी. सी., जे. बी. पिन्टो, जोस एल. सिकैर, जे. पी. लोब, बी. ए., एल. एल. बी., आलेक्स दे सा आनी हेरांलीं उलोवपां जालीं. ते भायर कोंकणींत (देवनागरी, कानडी आनी रोमी लिपींत) इंग्रजींत आनी पुर्तुगेजींत बरयल्लीं पत्रकां हजारांनी छापून मुंबयंत आनी सगळ्या कोंकणभर वांटलीं. हाचो परिणाम भोव बरो जालो. सातारा, गोकाक, बेळगांव, कारवार, कासारगोड आनी गोंय सारक्या पयशिल्या थळांतसून कोंकणी लोकां कडल्यान परिशदेक आपखोशेन मानपटयो आयल्यो. वांगडी-मेळोवपी-समितीचें काम जाल्यार भोवच तोखणायेचें जालें. येवकार-समितीचे वांगडी आनी पडहात मेळून साडेचारश्यां वयर लोकांलो पालव थोड्याश्या दिसांत तिणें मेळयलो. ते दीस 'बाँब' पडटीत ह्या भंयान कुडांक कलयादां लावन पळपाचे आसले. सगळी मुंबय चिंते-हुस्क्यान बाविल्ली. परिशद भरत की ना हाचोच लोक दुबाव घेताले. दुसऱ्या लोकांल्यो कांय परिशदो आनी संमेलनां भरपाचीं थांबिल्लीं. अशे अवस्थेंत, हे समितीच्या वांगड्यांनी जो नेट दाखयलो आनी लोकांले दुबाव कातरून तांकां वांगडी करपांत जें येस जोडलें ते खातीर तांची तोखणाय करीत तितली थोडी जातली.

## तिसरे बसकेची खबर

हे भाशेन सगळी मांडणी जातकूच, थारायल्ल्या दिसा, म्हळ्यार आब्रिलाचे 4 आनी 5 तारखेक, कोटांत 'सर कावसजी जहांगीर हॉलां' त, धारवाडच्या 'कर्णाटक कॉलेजां' तले विद्वान प्रोफेसोर भो. आर्मान्द मिनेझिस, एम. ए., हांगेले अध्यक्षतेन, तिसरी कोंकणी परिशद भरली. ह्या कार्याक मुजरत आपयल्ले मानवंत आमंत्रणी, येवकार-समितीचे वांगडी, संस्थांचे पडहात, नेमाळेंकार आनी पळोवपी मेळून हजारा वयर लोक जमिल्लो. कोंकणांतल्या दर एका थळांतले आनी हेर प्रांतांतले हिंदू आनी क्रिस्तांव कोंकणे तांतूंत दिसताले. ह्या सगळ्या वेगळ्या वेगळ्या वर्गणांतल्या लोकांक वळखी खातीर खूण-कमळां दिल्लीं आनी ते भाशेन तांची बसपाची मांडणी केल्ली. ह्या सोबीत मंडनांत पुर्तुगालचे कोंसुल-जेराल काव्हालैर ए. पी. जे. फेर्नांदिस, मुंबय युनिव्हर्सिटीचे रजिस्ट्रार

भो. सुंदरराव दोंगरकेरी आनी तांगेली घरकान्न सौ. कमळाबाय दोंगरकेरी, इन्कम टॅक्साचे पालवी कमीशनर भो. विनायक दत्तात्रय मुजुमदार, रेव्हरंड पाद्री एच. ओ. मास्कारेञ्जस, प्रो. एफ. कुर्रेय आफोंस, डॉ. जोस आल्बान दे सौज, डॉ. व्यंकटराव मंजनाथ कायकिणी, प्रो. जॉर्ज मोरायस, रावसायब सखाराम वामन शिरगांवकार, 'दिर्वे' चे संपादपी भो. अलेक्स पाइस, पणजेचे डॉ. आंतोनिय रेव्हेरेद, 'कुलाबा ऑब्झरव्हेटरी'चे डिरेक्टर डॉ. श्रीनिवासराव सदूर, डॉ. रामकृष्ण मंजनाथ नार्वेकार, डॉ. सुजीर संजीव राव, 'बाँबे क्रॉनिकल'चे पालवी-संपादपी भो. रामचंद्र कृष्ण प्रभू आनी रामराव शांताप्पा पडबिद्री, 'सर्व्हंट्स ऑफ इन्डिया सोसायटी'चे वांगडी आनी कोंकणी कवी भो. दिनकर दत्तात्रय देसाय, राममोहन इंग्लिश स्कूलचे हेडमास्टर भो. गणेश लक्षुमण चंदावरकार, पयले कोंकणी परिशदेचे कार्यदर्शी भो. माधव मंजनाथ शणै शानभाग आनी दुसरे जायते विद्वान आनी नामना जोडिल्ले लोक आसले. परिशदेक जायत्यो बायलोय आयल्ल्यो; तांतूंत सौ. सीताबाय रामराव पडबिद्री हीं परिशदेच्या कामांत तकस घेवन वावुरताल्लीं.

परिशदेच्या 'हॉला' च्या दरवट्यांत कोंकणी पुस्तकांचें प्रदर्शन मांडिल्लें. तांतूंत तरेकतरा विशयांचेर बरयल्लीं आनी देवनागरी, कानडी आनी चडशीं रोमी लिपींत छापिल्लीं जायतीं ल्हान-व्हड पुस्तकां आनी नेमाळीं आसलीं. हातूंतलीं अदीक-शीं पुस्तकां भो. फ्रान्सिस जॉन मार्तिरिस हांगेल्या संाठ्यांतलीं आसून कांय पुस्तकां गोमन्तक छापखानो आनी भो. लॉरेन्स दे सौज हांणी जमयल्लीं. हॉलाचे दुसरे कुशीक, परिशदेक आयल्ल्या लोकांक फराळ मेळची मांडणी केल्ली.

कांय कोंकणी विद्वानांनी परिशदेंत वाचून दाखोवंक गितां आनी निबंद धाडिल्ले.

परिशदेच्या भुरकुटायण्या जायत्या देखाव्यांतलो एक देखावो म्हळ्यार, नामनेचे स्पॅनिश पाद्री जोर्दा, एस. जे., हांणी आपणाल्या येवपान परिशदेक सोब हाडून, कोंकणी भाशेंत ल्हानशेंच गोड बरें उलोवप केलें आनी कोंकणी कार्यांत एकरूप जावन हे भाशेक 'आमची भास' म्हळी.

परिशदेच्या पयल्या दिसाचे कार्यावळींत बरें-मागत्यांच्या पत्रां-तारांचें वाचप, येवकार-अध्यक्षांलें उलोवप, परिशदेच्या अध्यक्षांली वेंचणूक आनी

तांगेलें उलोवप, विशय-समितीच्या वांगड्यांची वेंचणूक आनी कोंकणी खेळ करून दाखोवप इतलीं कामां आसपावतालीं.

हे भाशेन, सौ. इंदुमती नायक आनी आंकवार लीला होडारकार हांणी 'आमचो हावेस' हें नमन गीत गावन, परिशदेच्या कामाक पालंव लागलें. उप्रांत, परिशदेक वांगड-भावनेचे आनी बरें-मागपाचे जायते निरोप पत्रां-तारांनी आयल्ले, ते भो. रामचंद्र नारायण नायक हांणी वाचून दाखयले. तांतूंत पयले परिशदेचे अध्यक्ष भो. विश्वनाथ पांडुरंग प्रभू, मुंबयचे फाटले

पाटां-प्रधान भो. बाळ गंगाधर खेर आनी फाटले घरचे-प्रधान भो. के. एम. मुनशी, कारवारचे वीणाविशारद पंडित मंगेश रामकृष्ण तेलंग, कारवार नगरसभेचे अध्यक्ष रावसायब गणपतबाब तेलंग, भासशास्त्री डॉ. सुमित्र मंगेश कत्रे, पणजेचे डॉ. वोल्फांग दे सिल्व्ह, सातारचो कोंकणी उलयतल्यांचो वांगड हांणी आनी हेर जायत्या जाणांनी परिशदेक मनस्पुर्वेक धन्यवाद धाडून उपाट येस चिंतलें.

## येवकार – समितीच्या अध्यक्षांलें उलोवप

मागीर येवकार-समितीचे अध्यक्ष शणै वा. र. वर्दे वालावलीकार हांणी परिशदेक आयल्ले आमंत्रणी, पडहात, वांगडी आनी पळोवपी हांकां मायेन येवकार दिवन, सोळावो शेंकडो धरून आजवेरचे कोंकणी सरस्पतीचो बारकायेचो इतिहास सांगलो आनी ती घडपांत जेजुईत पाद्री आनी कोंकण क्रिस्तांव हांणी जायते त्रास घेतले म्हूण तांचे उपकार मानले. कोंकणी भाशेंत जो चकचयाळ लोकवेद भरला ताची तांणी मोटी तोखणाय केली आनी तांतूंतल्या कांय सोबीत उलोवपा-मोडींच्यो पती दिवन, तांचें समाधानीक भाशांतर हिंदुस्तानांतले वा भायले खंयचेच भाशेंत करूंक कठीण म्हणपाची फोडणिशी केली. तांणी एकुणीस कोंकणी व्याकरणांची वळेरी दिली; तांतूंतलें सगळ्यांत पयलें व्याकरण इंग्रज जेजुईत पाद्री थॉमस स्टीफन्स हाणें सोळावो शेंकडो सोंपत्यार रचिल्लें. तांणी कांय कोंकणी कोश आनी इतिहास, जीण, देवविद्या, तत्वविद्या, वेदान्त, भास-शास्त्र, वैजकी, नवलकाणी, खेळ, संगीत, अथर्वण बी तरेकतरा विशयां वयलीं ल्हान-व्हड कोंकणी पुस्तकां हांची नामावळ सांगली. तांणी कांय तपशिला सयत कोंकणी रंगभुंयेचो इतिहास सांगलो; ताचे वयल्यान, ही रंगभूंय समाधानीकपणान

फुडें पावल घालता अशें दिसलें. कोंकणी भाशेंत बरे तरेन चलयल्लीं 17 वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं आसून, तांतूंतलें एक दिसाळें आसा अशें तांणी सांगलें. तांणी कोंकणी मांड्यांच्यो आनी विण्या-गितांच्यो कांय पती म्हणून दाखयल्यो; त्यो आयकून सगळे सभेक खोस जाली.

हालींच्या वर्तमानाक, कोंकण देस हो मराठणाचो एक वांटो लेखपाची वज कांय लोकांक लागल्या; हांतूंतली पिसाय तांणी घसघशीत उक्ताडाक हाडली. भूंयवर्णनां, इतिहास आनी संस्कार ह्या तिनूय नदरांनी पळयल्यार, चड पुर्विल्ल्या काळा पासून, मराठण आनी कर्णाटक ह्या दोनूय मुलखां परस कोंकण देस सामकोच वेगळो, म्हणपाचें तांणी रुजू केलें.

कोंकणी ही भास वा पोटभास ह्या संबंदान उलयता आसतना, तांणी मोटे जयपतीन सिद्ध केलें की ही एक स्वतंत्र भास आसून, मराठी वा हिंदुस्तानांतले आतांचे हेर खंयचेच देशी भाशेची पोटभास न्हय. शेजारी-सामारी भासो एकमेकांक कळ्ळ्यो म्हूण त्यो सारक्योच वा एकमेकांच्यो पोटभासो लेखूं नजत. तशेंच, त्यो एकमेकांक कळ्ळ्यो नात म्हूण वेगळ्यो लेखूं नजत. कित्याक, भासांचें सारकेपण वा वेगळेपण त्यो एकमेकांक कळपाचेर वा नकळपाचेर अगत्यानशींच आदारून नासता; तर तांचे व्याकरणी बांदावळीचेर आदारून आसता. भाशेच्या दोन वा अदीक रुपांची उतरावळ

अगदींच सारकी जावंये, पूण तांची व्याकरणी बांदावळ वेगळी आसल्यार, त्यो वेगळ्योच भासो लेखूंक जायत. हे नदरेन पळयल्यार, मराठी परस कोंकणी जायती वेगळी आसा. ते भायर, कोंकण हें स्वतंत्र राष्ट्र आसून, तोंडांत सरस्पतीची गिरेस्त खाण लोकवेदाच्या रुपान थंयचे भाशेंत भरल्या; तशीच, सोळाव्या शेंकड्या पासून पुस्तकी सरस्पतूय तांतूंत घडल्या. निमाणें, कोंकणी भास केळोवन वयर उबारूंक कसले उपाय करूंक जायत, तांची तांत्रीक आंकावणी तांणी केली.

## अध्यक्षांलें उलोवप

उप्रांत प्रोफेसोर आर्मान्द मिनेझिस, एम. ए., हांची अध्यक्ष म्हूण वेंचणूक जावन, तांणी आपणालें उलोवप केलें. तांणी म्हळें, 'गोंयच्या कांय क्रिस्तांव घराण्यांतले चाली भाशेन हांव चड भुरगेपणा पासून पुर्तुगेज भास उलोवनूच

वाडिल्लों. जाल्यारूय, कोंकणी म्हगेली आवयभास आसा; म्हळ्यार, ती हांव केन्नाच शिकनासतना, तिच्या मूळच्या रुपांत ती म्हाका सगळ्यांत बरी येता. म्हगेली मावशी गिरेस्त आसा, इतलेच खातीर ती म्हगेली खरेली आवय जावंये, अशें जशें म्हाका केन्नाच दिसलें ना, तशेंच, म्हगेली आवयभास हेर कोणूय जावंये अशें म्हाका दिसलें ना.

आप-उक्ताडावपाचे म्हळ्यार म्हगेल्यो भावना मेकळेपणान भायर फोडून सांगपाचे घोकणेंत जेन्ना हांव आसलों, तेन्ना तिणेंच म्हाका नकळयां गोंयची सरस्पत पारखुच्या वावराक लायलो जावंये. ही सगळी सरस्पत, सबावीक, पुर्तुगेजींत आसून, म्हगेल्या क्रिस्तांव देसभावांनी घडल्या. ही घडपांत म्हाका सामान्या भायली जड-जडावाची बुद्द आनी तिचे वांगडा भयांकृत वांजुट्टेपण दिश्टी पडलें. हे पारखणेन आवयभाशेक लार्गी करचें अगत्य म्हाका दिसलें. म्हगेल्या हिंदू देसभावांनी मराठी बरोवपाक जो यत्न केला तोय पळोवन, म्हाका खरेपणाक आयलें की गोंयची आवयभास मराठी न्हय, तर कोंकणी. तांकांय क्रिस्तांवां इतलीच आप-उक्ताडावपाची काडाओड लागल्या अशें म्हाका दिसलें.

म्हाका कळून आयलें की कोंकणी भास आंगा-पांगान घट, अरळ, बागवता तसली आनी शास्त्र नेमान घडिल्ली आसा; तिची उतरावळ गिरेस्त आसून, तिच्यो भासभयणी संस्कृत आवयचे मूळ झरींतसून आजदीस मेरेन जर्शी उतरां आनी रुपां जायां घेतात, तर्शी तिच्यानूय घेवं येतीत आनी आपली उतरावळ आनी रुपावळ चडोवं येत. हांवें पळयलें की तिचे चिकित्सायेचें आनी ती मांडणेर घालपाचें जायतें कुदळ-काम अजून करचेलें आसा. पूण सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार, लोकांक ती भास उलोवंक-बरोवंक लावची उमेद हाडची; म्हणटकूच, भाशेच्या चडट्या आनी घसघशीत घोळोवपान एके तरेची मांडणी वा तिची गरज आपर्शीच उत्पन्न जातली. ही मांडणी जरी एकादुकली जावंक नासली, तरी तिची गरज उत्पन्न जाल्याच अशें म्हाका आतां दिसता.

आतां जिवी नाशिल्ली वा दुसरें रूप घेतिल्ली मुंबयची 'गोवन एमिग्रंट्स् फंड' संस्था हिच्या पाख्यातळा नेमिल्ले एके कोंकणी समितींत जेन्ना हांव काम करतालों, तेन्ना कोंकणी खातीर रोमी लिपी थारावची अशें सन्मथ करतल्यांत म्हगेली जापसालकी चड आसली, अशें म्हाका दिसता. हाचें कारण, म्हगेल्या क्रिस्तांव देसभावांक आपणाले आवयभाशेची परथून ओड लावची, हें आसलें.

पूण त्या वेळारूय म्हाका खरेपणान दिशिल्लें की कोंकणी भास एकरुपावंक आनी मांडणेर घालूंक सगळ्यांत व्हडलें आडबारें लिपीचें आसून, तर्करितीन येवजिल्यार, देवनागरी ही एकलीच एक कोंकणीची लिपी आसा.

कोंकणी ही भास वा पोटभास आसा ह्या प्रस्ना संबंदान येवजूंक लागल्यार, वेगळे वेगळे दशेचो आनी तरेकतरा पावंड्यांचें बरपाक्षर आनी संस्कार आशिल्लो जायतो लोक ही भास उलयता, माये-मोगाचे ओडीन उलयता आनी अभिमानान उलयता, हातूंत दुबाव ना; तशेच दोळ्यांआड आशिल्ल्या पयशिल्या फुडाराक कितें घडत ताचो हुस्को काडिनासतना, आपखोशेन हे भाशेंत आपणाल्यो येवजण्यो बरोवंक नित्शयान वावुरतल्या लोकांलो आंकडो दिसान दीस चडटोच दिसता; कोंकणी ही भास जावं वा पोटभास जावं, ती तिच्या चड लागशिल्या नात्याचे मराठी कडसून पुरोशी पयस आसा. निमाणें, ती आमगेली आवयभास आसा इतलेंच म्हाका पुरो. संस्कार वा वेपार-उद्‌देग हांचे खातीर हेर भासो आमी कितल्योय शिकले जाल्यार, त्यो आमगेल्यो आवयभासो जावंक उपकारनात. जाल्यारूय, हांव आगरो करून सांगतां की जण एका कोंकण्यान कोंकणीच्या नात्याच्यो मराठी बी हेर भासो आनी अदीक करून तांची सगळ्यांची सामान्य आवय वा आजी जी संस्कृत भास ती शिकचो नेम करचो. हें काम जेन्ना आमी आमगेले आवयभाशेची लिपी देवनागरी करूं तेन्ना चड सोपें जातलें. कोंकणी भास एकरुपावच्या कामाचें पयलें सोपण म्हळ्यार, सबावीकपणान, एकलीच एक सामान्य लिपी उपकारावप, हें सांगूंक नाका; आनी देवनागरी बादत हेर लिपी कोणूच पसंत करीत अशें म्हाका दिसना. गरज पडल्यार, हे लिपींत फावो जाल्लो बदल करचो. हाचे फुडलें सोपण म्हळ्यार, एक मदगतें म्हैनाळें, एक मदगतें साताळें आनी एकादुकलें, वेळानसार, एक मदगतें दिसाळें काडचें. म्हैनाळ्यांत चड करून सरस्पती संबंदाचीच बरपावळ येवन, तांतूंत भाशीक येवजण्यो नेटान जावच्यो आनी भाशेच्या नाजूक आंगांची चिकित्साय करची. पुणून हांतूंतलें कसलेंय काम जावंक तांकूंक, आदीं पयलीं इत्सा जाय, आनी ही इत्सा भाशेची कडकडीत भक्ती आनी खरेलो मोग हांचे पासून जाता. आमगेल्या बरपाक्षरी भावांनी आनी भयणींनी ही भास माये-मोगान केळोवचेलेंच फकत काम करचें, म्हणटकूच, तिची कसलेय एके तरेची मांडणी वा सबावीक रूप आपशींच थारतलें. तांणी ध्यानांत धरचें की लोकांल्या आत्म्यांतसून सरस्पत वयर

सरूंक जाय आनी ह्याच पासावत, लोकांक एक आत्मो आसूंक जाय.'

उप्रांत विशय-समितीच्या वांगड्यांची वेंचणूक जावन, हुशार कोंकणी सवंगी भो. श्रीधर नरसिंह प्रभू हांगेले जाळवणेन 'मोगाचें लग्न' हो सामाजीक खेळ जालो.

## तिसरी बसका

तेच राती, विशय समितीची सभा भरून, परिशदेंत मांडचे खातीर इकरा थारावण्यांचो खड्डो तिणें तयार केलो. दुसऱ्या दिसा सकाळच्या आदेसा, कांय वांगड्यांनी परिशदे मुखार त्यो मांडून तांचेर तांगेलीं आनी हेरांलीं उलोवपां जालीं. तांतूंतल्या कांय थारावण्यांनी परिशदेन बदल केलो आनी कांय थारावण्यो जशाक तश्यो मान्य जाल्यो. सांजेवेळा, कांय उमेदीच्या गड्यांनी नाच केलो. कांय जाणांनी निबंद वाचले. दुसऱ्यांनी तरेकतरा मांडे आनी विण्या-गितां म्हळीं, मंजूळ वाजंत्रां वाजयलीं. 'सरस्वती ॲमट्यूर्स' नांवाचे संस्थेन 'समाज-चित्र' हो कोंकणी खेळ करून दाखयलो.

मागीर परिशदेचे पयले बसकेचे कार्यदर्शी भो. माधव मंजनाथ शणै शानभाग, एम. ए. एल. एल. बी. हांकां अध्यक्षांल्या हातान तुरो दिवन आनी हार घालून भोवमान केलो. उप्रांत येवकार-समितीच्या अध्यक्षांनी ल्हानशें उलोवप करून परिशदेच्या अध्यक्षांचे आनी वेगळे वेगळे तरेन परिशदेक पालव दितल्यांचे उपकार मानले. सौ. कमळाबाय दोंगरकेरी आनी भो. दिनकरबाब देसाय हांणी गोड उलोवपां करून तांकां दोडो-नेट दिलो. निमाणें, 'वन्दे मातरम' हें राष्ट्रगीत म्हणून मुंबय भरिल्ली कोंकणी परिशदेची ही तिसरी बसका, थंयच्या कोंकणी लोकांल्या नांवा-लोकिकाक फावोशे तरेन, मोट्या आट्यापाट्यान, साग्रसंगीत आनी सुसंगीत बरी तडीक पावली.

हे परिशदेक वांगडी आनी पडहातां कडसून मेळिल्ली मानपटी, संस्थां कडसून आयल्ल्यो केळवण्यो आनी पळोवप्यांनी आपखोशेन पेटलांनी घाल्ली पालव-दक्षणा मेळून कुल्लीं 966 रुपया 8 आणे उत्पन्न जालें. हातूंतले 764 रुपया 2 आणे खर्च जाले आनी 202 रुपया 6 आणे बाकी उरले. हाचो बारकायेचो तपशील दुसरेकडेन दिला.

परिशदेन केल्ल्यो थारावण्यो जांकां लागू जाताल्यो तांकां त्यो, परिशद उलगतकूच रोखड्योच पावत्यो केल्यो. तांतूंत इंग्रजी आनी पुर्तुगेज सरकारी खातीं, कोंकणांतल्यो आनी कर्णाटकांतल्यो नगरसभा, थळसभा, पाठशाळो, शाळो आनी हेर संस्था हांचो आस्पाव जाता. तांचो आंकडो 109 भरलो. हांतूंतल्या कांय संस्थां कडसून जापो आयल्यात, तांतूंतलें सार दुसरे कडेन दिलां.

कोंकणी परिशदेचे तिसरे बसके खातीर केल्ल्या वावराची ही तांत्रीक गजाल आसा. ही घडूंक, भायल्या आनी भितरल्या मेळून जायत्या वावुरप्यांनी हातभार लायला. गरजे-ताकती-समितीच्या सभांक भो. कृष्ण नारायण शणै गायतोंडे हांणी, येवकार-समितीच्या सभांक 'स्वस्तिक लीग' संस्थेन आनी प्रचार-समितीचे भायखळ्या भरिल्ले सभेक 'आन्तोनिय दे सौज' शाळेन जागो दिलो. 'धि कॅनरा ब्रदरहूड' संस्थेन जाल्यार तिगेल्या कुडाची चावीच आमचे सुवादीन केली म्हळ्यार जाता. तेच भाशेन मुंबयंतल्या आनी गोंय-कुमठें-मंगळुरांतल्या कोंकणी, मराठी, इंग्रजी आनी पुर्तुगेज नेमाळ्यांनी परिशदेच्या प्रचार-कामाक जायतो पालव दिलो. त्या सगळ्यांच्या नांवाचो गोड उगडास, जाग्याचे तुटी खातीर, आमकां हांगा करूंक मेळना. जाल्यारूय, आमी तांचे मना पासून उपकार मानतात आनी निमाणें, जो हेत मुखार धरून परिशद जल्मा आयल्या तो हेत, सातूय कोंकणां एक जावन तडीक व्हरचो, अशी सगळ्या कोंकणी लोकां कडेन मागणी करून, कोंकणी परिशदेचे तिसरे बसकेची खबर आमी सोंपयतात.

वा. र. वर्दे वालावलीकार<br>
काम करपी समितीचे अध्यक्ष<br>
काशीनाथ श्रीधर नायक<br>
फ्रान्सिस जॉन मार्तीरिस<br>
काम करपी समितीचे मानीक जोड-बरपी

रामचंद्र बिल्डींग बी 2-3<br>
गिरगांव, मुंबय<br>
जानेवारी 1944

भो. मर्तू शेशगिरी कामत आनी भो. चार्लस कुयेल हे दोगूय मानीक जोड-बरपी भायल्या गांवांत रावंक गेल्ल्यान तांची सय हे खबरेर जावंक ना.

## तिसरे बसकेंत मान्य जाल्ल्यो थारावण्यो

1. 'कोंकणी भाशा-मंडळ' नांवाची एक सदांकाळीक संस्था घडची.*
2. 'कोंकणी भाशा-मंडळा' कडेन ही परिशद मागता की सकला दिल्ली येवजणी करूंक तांणी कोंकणी पंडितांली एक समिती नेमची :-
   (अ) कोंकणी भाशेंतल्या सगळ्या नादांचे उच्चार दाखोवंक देवनागरी लिपींत नर्वी अक्षरां वा नव्यो कुरवो भरीक घालच्यो.
   (आ) प्रमाण कोंकणी थारावंक, मुदलाक, 'बेसिक इंग्रजी' तरेन, कोंकणी भाशेंतर्ली चड घोळटेंतर्ली सामान्य उतरां वेंचून काडून, इंग्रजी-कोंकणी आनी पुर्तुगेज-कोंकणी कोश रचचे.
   कोंकणी पंडितांले वयले समितीन हें काम ताकतीन हातांत घेवन, 31.12.42 मेरेन सोंपोवचें अशें ही परिशद तिचे कडेन मागता.
3. 'सगळ्या हिंदुस्तानाची आकासवाणी' (ऑल इंडिया रेडियो) हे संस्थेच्या जाळवणदारां कडेन ही परिशद मागता की तांणी मुंबयच्या आनी मद्रासच्या आकाशवाणीच्या थळांतसून कोंकणी भाशेंत वर्तमानां कळोवर्ची आनी संगीत म्हणची मांडणी करची.
4. मुंबयची नगरसभा (म्युनिसिपालिटी) आनी मुंबय प्रांतांतल्यो आनी हेर प्रांतांतल्यो तसल्योच थळसभा हांचे कडेन ही परिशद मागता की खासगत संस्थांनी कोंकणी भाशेच्यो ज्यो मुळाव्यो साळो चलयल्यात तांकां दुडवांचो पालव दिवचो.
5. मुंबयची नगरसभा आनी मुंबय प्रांतांतल्यो आनी हेर प्रांतांतल्यो तसल्योच थळसभा हांचे कडेन ही परिशद मागता की मुळाव्या शिकपाच्या ज्या शाळांनी जायत्या भुरग्यांली आवयभास कोंकणी आसत त्या शाळांनी तांकत ते रितीन, कोंकणी जाणा-जाल्ले शिकोवपी नेमचे.
6. प्रांतीक सरकारां कडेन ही परिशद मागता की शाळांनी शिकोवंक आनी पुस्तकां-घरांत आनी वाचपा-कुडींनी उपकारावंक फावो-जाल्ली

---

* कोंकणी भास आनी सरस्पत फुलोवची आनी ही भास उलयतल्या लोकांलें संस्कारीक हित सादचें असो ह्या 'कोंकणी भाशा-मंडळा' चो हावेस आसा.

कोंकणी पुस्तकां तोखणावचे खातीर, तांणी एक ‘कोंकणी शिकोवपा-पुस्तकां-समिती’ (कोंकणी टेक्स्ट-बुक कमिटी) नेमची.

7. ‘कोंकणी भाशा मंडळा’ कडेन ही परिशद मागता की तांणी साळांतल्या आनी कॉलेजांतल्या नेमाळ्यांच्या जाळवणदारांसरी वचून, त्या नेमाळ्यांनी, तांकत तेन्ना कोंकणी लेख बरोवची उमेद हाडूंक आनी ते उजवाडावंक विनंती करची.

8. ही परिशद थारायता की हिंदुस्तानाचे लोक-गणतेच्या मुखेल जाळवणदाराक विनंती करची की कोंकणी भास ही स्वतंत्र भास आसून मराठीची पोट-भास न्हय, अशें 1941 वर्सा आदले गणते-खबरींत लेखलां, तशेंच 1941 च्या गणते-आंकड्यांतूय लेखचें.

9. ही परिशद थारायता की कोंकणी भाशेची लिपी देवनागरी आसची. संस्कृतांतसून जाल्ल्या हेर सगळ्या भासांची लिपी देवनागरीच आसा. पूण, परिशदेन हो नेम धरिल्लो आसलोय जाल्यार, सध्या ज्यो लिपी घोळटेंत आसात त्यो तुर्ताक घोळयल्यार जातात.

10. कोंकणी लोकांनी आपणाल्या खासगत वेव्हारांत, म्हळ्यार एकमेकांक पत्रां बरोवपांत आनी हिशेब दवरपांत बी कोंकणी भास उपकारावची, अशें ही परिशद तांचे कडेन मागता. कित्याक, हे रितीन कोंकणी भास आपशींच वाडूंक पावतली.

11. ज्यो संस्था कोंकणी लोकां खातीर पुस्तकां, साताळीं, म्हैनाळीं, वर्साळीं बी उजवाडायतात तांणी तीं, तांकत तितलीं, कोंकणी भाशेंत उजवाडावचीं, अशें ही परिशद तांचे कडेन मागता.

***

# परिशिश्ट 1

## तिसरे बसकेच्या अध्यक्षांलें उलोवप

(मूळ इंग्रजीचें भाशांतर)

भावांनू आनी भयणींनू,

पयल्याच उतराक हांव तुमचे कडेन मकलासी मागतां आनी कांय फोडणिशी करतां. कोंकणी परिशदेच्या अध्यक्षान आपणालें उलोवप इंग्रजींत केल्लें पळोवन, आमगेले भाशेची सुखीदुखी नाशिल्ल्या भायल्या लोकांक व्हडली मौज दिसतली आनी खासा परिशदेच्या वांगड्यांक मोटें अजाप जातलें आनी एकादुकली लज दिसतली, हें येवजून म्हाका खेद जाता. जाल्यारूय, म्हज्या जिवाक एक धादोसपण भोगता तें हें की ज्या कारणान म्हाका आज इंग्रजी उलोवचें पडटा, तें कारण समजतकूच, ही कोंकणी परिशद भरोवचें कितलें अगत्य आसा, तें घसघशीत बरें तुमच्या ध्यानांत भरतलें; ते भायर, परके भाशेचें म्हगेलें अर्दकुटें गिन्यान पळोवन, आमी सगळ्यांनी आतां आवयभाशेक वेंग मारूंक जाय, म्हणपाचेंय तुमकां दिसतलें.

इतलें सांगून जातकूच, हे परिशदेचें अध्यक्षपण चलोवंक फावो-जाल्ले गूण

म्हज्या आंगांत नात, हें हांवें वेगळें सांगचें लागना. म्हगेल्या उलोवपाची भासूच आपणाली खबर आपल्या तोंडान सांगता आनी म्हजे आड गवाय दिता. म्हजे आदले अध्यक्ष आनी ह्या कार्याचे म्हाजन हांचे वरी हांव कोंकणी पंडीत न्हय. विरोधी चिकित्सायकारांच्यान म्हजे कडेन बोट दाखोवन, एकादुकलें अशेंय म्हणुं येत की हो अध्यक्ष म्हळ्यार कोंकणी कार्याच्या दुबळेपणाचो एक पुरावोच आसा हातूंत वाद ना. म्हगेले इश्ट कितें म्हणटीत तें म्हज्यान सांगुं नज. म्हज्यान इतलेंच म्हणुं येता की म्हाका अध्यक्ष करपांत हे परिशदेच्या जाळवणदारांल्या मनाचें मोटेपण सिद्ध जाता. म्हाका ल्हानविकायेच्या मनशाक तांणी हो येदो व्हडलो मान दिवन जर कोणाकूय अजाप जालां जायत, तर तें हेरां परस म्हाकाच चड जालां, हें हांव तुमकां सांगतां.

कित्याक, फाटल्या कांय वर्सां पासून, धा-जाणांल्या कार्यांतसून हांवें म्हगेलें आंग सामकेंच फाटीं ओडलां आनी भुरग्यांक शिकोवपाचोच उद्योग हांवें चलयला. ह्या उद्योगाक एकादुकलें धा-जाणांलें कार्य म्हणटले जाल्यार म्हणात. ह्या कार्यांत पडून, म्हज्या चड फाटल्या तरणेपणांत हेर जायत्या कार्यां वांगडा कोंकणी कार्यांतूय हांव बोवाळटालों, म्हणपाचें हांव सामकेंच विसरलों. ह्या म्हगेल्या कामाचो उगडास, म्हजेकूय हे परिशदेच्या जाळवणदारांक भोव बरो आसलो-सो म्हाका आतां दिसता. आजचें अध्यक्षपण म्हाका दिवन तांणीच ताचो उगडास म्हाका केलो.

ह्या पासावत, हांव समजून चलतां की कोंकणीचें म्हाका आशिल्लें अगत्य ही निखालूस गुमानीत गजाल न्हय. खरेपणानशींच, तें अगत्य इतलें बरें जाणापरीचें आसा-शें दिसता की जायत्या वर्सां उप्रांत ताणेंच म्हाका आजचो सर्त-नाशिल्लो आनी आवंडे-गिळेवणो मान जोडून दिलो. जाल्यारूय, हे परिशदेच्या साबार लोकांक तें तितलेंच वा कांयच खबर नासुंये. देखून, चड करून तांकां ताची तांत्रीक जल्म-कथा कळोवची, ही म्हगेली लागणूक आसा अशें म्हाका दिसता. म्हगेले जिणेंतल्या जायत्या अगत्यांतलें हें एक अगत्य आसा.

'म्हगेल्या जायत्या अगत्यांतलें एक' अशें हांव ताका दाटुनूच म्हणटां. कित्याक, म्हाका नात्या बगर एकली-एकमुळी वस्त पळोवंक येना. एकी परस अदीक वस्ती एकमेकींल्या नात्यानूच म्हाका पळोवंक येतात. हो म्हगेल्या मनाचे घडणेचो एक गूण आसा; तो बऱ्याक पडूं वा वायटाक पडूं. ही नात्याची

ावना म्हज्या आंगांत इतली बळ्ळ्या की म्हाका लागिल्लें हें एक व्हडलें चेट म्हळ्यार जाता. गायनांत सूर आनी चितारपांत रंग जशे एकमेकांत जमतात, तेच रेन बुद्दी परस एकादुकलें उमाळ्यांनीच म्हजें आनी हे भावनेचें जमलां. ह्याच एकादुकल्या कारणान, कोणाचोच पक्षपात नाशिल्लो धर्मवादी, लोकांक उपदेस करूंक अनमनणो धर्मदूत, झगडूंक शिरी पडना-जाल्लो झुजपी आनी द्वेश करूंक खऱ्यानीच खांपो न्हय, असले तरेचो मनीस हांव जालां. ही नात्याची भावना हेंच म्हगेलें सगळें तर्कशास्त्र, आनी ज्या थोड्याशा विनोदाची बडाय म्हज्यान मारूं येता आनी जो थोडोसो संस्कार म्हाका जाला अशें म्हणुं येता, तो हे नात्याचेच भावनेचें फळ. खीणभर हांवपणाचें दुशण लावन घेवनूय, हें सगळें विसकून सांगपाची मोटी उमळशीक म्हाका लागल्या. कित्याक, म्हगेलें कोंकणी भाशेचें अगत्य म्हळ्यार एक गडगंज आनी तर्कीक उमाळो आसा, हें म्हाका दाखोवचें आसा.

हांव जेन्ना पयलींच कोंकणी संबंदान बरोवंक लागलों, तेन्ना प्रांतीक भासो वयर काडपाचो बोवाळ हिंदुस्तानाच्या अंत्राळांत चलतालो-सो दिसता. हे गजालीक आतां जायतीं वर्सां जालीं. देखून त्या वेळार आवय-भासां संबंदान पातळिल्ले भावनेंतसून म्हगेल्या तरण्या-धाकट्या मनान नकळयां कितलो वांटो व्हरसून घेतलो तो म्हज्यान सांगुं नज. पूण म्हाका घट बरो उगडास आसा की सामक्योच वेगळे तरेच्यो दुसऱ्यो जायत्यो वस्ती सोदतना, कोंकणी भास म्हज्या हाताक लागली. जे कोण आपणाली आवय-भास माये-मोगाच्या आनी भावनांच्या पयल्या-वयल्या पाटार बसयतात-आनी न्यायान बसयतात-जे तिचे वांगडा वाडटात आनी ती आपले कुडीचें आंगूच जाल्ले वरी लेखतात, तांकां म्हगेली म्हणणी विचित्र दिसूंक फावो; पूण म्हजी गजाल वेगळी. ती एक वेगळीच तरा म्हळ्यार जाता. देखून, तिच्या चमत्कारीक इतिहासाची थोडीशी परवड म्हणून दाखयल्यार भोवूच देखदिणी जातली.

कोंकणी म्हगेली आवय-भास न्हय. नाच पक्षाक, कोंकणी म्हगेली एकलीच एक आवयभास न्हय. म्हाका चड भुरगेपणाचो उगडास जाता तेन्नाच्यान हांव पुर्तुगेज उलयतालों. गोंया कांय क्रिस्तांव घराणीं अशीं आसात की तांगेर एकमेकां कडेन पुर्तुगेजींतूच उलयतात, आनी चाखरमाने बी पुर्तुगेज भास नकळ जाल्ले लोक हांचे कडेन कोंकणींत उलयतात. (कांय घराण्यांनी चाखरमान्यांकूय पुर्तुगेज भास

येवची लागता.) ही गजाल सगळ्यांचे बरे जाणापरीची आसा-शी दिसता. हांव सर्दींच म्हगेल्या गिऱ्यांचे उपकार मानतां की हांव ज्या कुटुंबांत जल्मलों, तातूंत पुर्तुगेज भाशेचो देवारो करून तिचें भजन करूंकूच जाय, असो हटवाद नासलो; इतलेंच न्हय, तर भुरग्याक इल्लिशीय कोंकणी भास येवंक तांकची न्हय, असल्या साप नेणटेपणांत, ताका पुर्तुगेज भाशेची वज लायनासले, जाल्यारूय, हाचो परिणाम भयांकृत जातालो अशें म्हळ्याबगर म्हज्यान रावं नज. ह्या दोन भासांच्या खेळाचें थोडें-भोव फकाणी चित्र कांय वर्सां फाटीं हांवें एके कडेन काडललें. पूण त्या वेळारूय हांव जाणा आसलों की हो हांसयणो खेळ म्हळ्यार रडयण्या खेळाची उफाट्टी कूस आसा. हो खेळ आमकां आमगेल्यो दोन आवयभासो जाल्ले वरी आमकां वाडूंक लायतालो, आनी ह्या दोन भासां मदगत आमगेलीं मनां आनी जिबो आडखळायतालो. हे तरेन, आमकां एकूय भास धड येनासली. आमी आमगेल्या कोंकणी उलोवपांत पुर्तुगेज उतरां भरशिताले आनी पुर्तुगेज उलोवपांत कोंकणी उतरां भरशिताले. आमचे भितरले जे कोण गोंया भायर पावल्यात तांकां तिसरी एक भास शिकची पडटाली. ही भास आमकां तांकत तितली आमगेली करून, आमगेल्या धंद्यांत आनी समाजांत सर्दीच घोळोवची पडटा. (देखून ती आमकां परिणामीकपणान आनी सोबितकायेन येवची लागता.) ह्यो गजाली ध्यानांत घेतकूच, हो भाशेचो प्रस्न इतलो घुस्पागोंदळाचो जाता की चिकित्सायेच्या मनाचो आनी आपलेपणाची वळख आशिल्लो मनीस बळयांच ताचें मूळ सोदूंक लागता आनी जें आत्मीक अंतर्गिन्यान वा भुरग्यांक शिकोवपाचो अणभव ताका एकादुकलो आसता, तांणी तो अद्रूण आवय-भाशेच्या प्रस्ना सामकार पावता. ह्या प्रस्ना कडेन पावच्यो तुमगेल्यो हेर जायत्यो वाटो आसात अशें जरी म्हाका दिसता, तरी म्हगेली आवयभास हांवें जे वाटेन सोदून काडली (वा परतून ती म्हाका होलमली) ती वाट ही अशी आसा.

दुसरे दर एके वस्ती कडेन आवयभाशेचें नातें कितें तें म्हाका दिसलें; तशेंच आवयभाशे कडेन दुसरे, दर एके वस्तीचें नातें कितें तेंय म्हाका दिसलें. हांवें आर्दींच सांगिल्ले भाशेन, आवयभाशेच्या प्रस्ना कडेन पावची ही तरा खासा म्हगेलीच आसा; पूण म्हाका दिसता की हो प्रस्न म्हज्या एकल्याच्याच अणभवाचो नासून, समाजांत जायतो घोळटा, हें समजूंक पुरोशी वांगड-भावना वा समाजीक भावना म्हाका आसली. (सगळ्याच तरण्या मनशांक ही आसता.)

हजे संबंदान पळयल्यार, म्हजे जिणेंत असो एक चड कठीण वेळ आयलो की आप-उक्ताडावपाची म्हळ्यार म्हगेल्यो भावना मेकळेपणान भायर फोडून सांगपाची म्हाका खंत लागली. त्याय वेळार लोक म्हणटाले आनी आज म्हणटात की म्हाका एकी परस अदीक येवरोपी भासो पुरोशा सोपेपणान उलोवंक, बरोवंक येतात. ह्या समाजांत कोणूय फटवले वा धादोसले जावंत, पूण हांव केन्नाच धादोसलों ना वा फटवलों ना. चड ल्हानपणा पासून म्हज्या जिवाक एक चमत्कारीक तळमळ लागिल्ली. ल्हवूल्हवू म्हाका समजून आयलें की ही तळमळ म्हळ्यार, उतरांचो संवसार घडची ओड म्हाका लागल्या, आनी तिणें आप-उक्ताडावपाची करांदाय चलयल्या. त्या वेळार, सरस्पतीची चिकित्साय करपांत हांव ही तळमळ घालोवंक लागलों. पूण, जाणून वा नेणून, कितेंय केल्यार, ती थारना जाली वा थंडावना जाली. कित्याक, उतरांचो संवसार घडूंक जी एके तरेची उतरांची रुपावळ लागता, ती सरस्पतीची कितलीय चिकित्साय करून मेळना. देखून, जरी म्हाका बरोवची स्फूर्त आनी एकादुकली बुद्दूय, तो सगळो वेळ मेरेन दुबाव नासतना आसली, तरी आप-उक्ताडावप म्हाका येद्या उसरां आनी इतलें अनमनत आयलें-शें दिसता की ताणें केन्नाच म्हज्या मनाची धादोशी जाली ना. म्हगेलें एक कवीत गुंडो (ढहर्शींपश) म्हणु आसा; तें त्या वेळची म्हज्या मनाची अवस्था बरे तरेन दाखयता. वाटे वयल्या ह्या गुंड्यांतलें संगीत जशें ताच्या आंगांतूच मरून ना जाता, तशेंच, म्हजे भितरलें संगीत म्हज्या आंगांत मरून ना जाता, अशें तातूंत दाखयलां, आनी जेन्ना म्हजो आत्मो संवसारांतल्या निमाण्या सत्या संबंदान येवजून किटकिटूंक लागलो तेन्ना ताणें ताका घडयेक सुंदरकाय पूण घडयेक मोनेपण हेंच नांव दिलां; हीय गजाल म्हगेल्या मनाची अवस्था सुचयता. हे भाशेन, उतरांचो संवसार घडचेल्यो भयांकृत वेणो जेन्ना म्हाका येताल्यो, तेन्ना आशेल्ले वरी हांवें आवयभाशे वसल्यान फुडो केलो आनी म्हाका खरेपणाक आयलें की हांव तिचें आवय नाशिल्लें पोर आसां. हो म्हगेलो उमाळो सादे-भोळेपणाचो आनी वैतागांचो आसलो. तातूंत समाज वयर उखलपाचो हेत नासलो वा राजकारणी हावेसान तो घुस्पूंक नासलो. आपणाले आवय वसल्यान फुडो करतल्या भुरग्याक जसो सबावीक उमाळो येता, तसोच फक्त तो आसलो. त्या वेळार जें म्हाका कळ्ळें वा मनाक दिसलें तें हें की कोंकणी म्हगेली आवयभास आसा; म्हळ्यार ती हांव केन्नाच शिकूंक नासलों

देखून तिच्या मूळच्या रुपांत ती म्हाका सगळ्यांत बरी येता. म्हगेली मावशी गिरेस्त आसा, इतलेच खातीर ती म्हगेली खरेली आवय जावंये, अशें जशें म्हाका केन्नाच दिसलें ना, तशेंच, म्हगेली आवयभास हेर कोणूय जावंये अशें म्हाका तेन्ना दिसलें ना. जाल्यारूय, जेन्ना म्हाका हो आवयभाशेचो सोद लागलो तेन्ना म्हगेलो फुडार वेगळ्याच कार्याचे आयटींत ओतून तयार जाल्लो; देखून, दुसऱ्यां खातीर कोंकणी कार्याचो पाखो घेवचो आनी हांवें इंग्रजींत बरोवची एकली-एकसुरी वाट चलची, इतलेंच म्हज्यान करूं येतालें, हें तुमी जाणातूच. दक्षिण हिंदुस्तानांत लोक म्हाका म्हालगड्या हिंदी-इंग्रजी कवीं भितरलो एक कसो लेखतात. ही पदवी अजापान भरिल्ल्या उपकारीपणान हांव मान्य करून घेतां खरो; पूण मनांतल्या मनांत लजेतां.

आप-उक्ताडावपाचे हे घोंकणेन म्हाका नकळयांच गोंयची सरस्पत पारखुच्या वावराक लायलो जावंये. ही सगळी सरस्पत, सबावीक, पुर्तुगेजींत आसली. तातूंत म्हाका सामान्या भायली जड-जडावाची बुद्द आनी तिचे वांगडा भयांकृत वांजुट्टेपण दिश्टी पडलें. हांवें कांय म्हाल-मुखेल बरपावळीचो अभ्यास केलो. तातूंत फक्त कवनाकूच सुमाराकशें येस आयल्लें दिसलें. कित्याक, वेळाचीं आनी सुवातेचीं बंदनां चड करून हुपून कल्पनेच्या आनी संवसाराच्या आवांठांत कवन वावुरता. आमगेली नवल-काणयांची सरस्पत भोव थोडी, आनी तीय जीव नाशिल्ल्या अद्भुतांचेर अतितायेन आदारल्या आनी सुपुल्ल्या चुटकुल्यांनी भरल्या. देखीक, फ्रांसिस्क लुईस गोमिसाल्यो नवल-काणयो पळयात. ताणें आपल्या काणयांचो आटाप गोंया भायर घाला. दुसरो 'जिप' अडेनांवाचो बरपी घेयात. हागेली सरस्पत फकाणांनी भरल्या. हाची भास विचित्र. पुर्तुगेज आनी कोंकणी उतरांचें तें अडेचें खतखतें म्हळ्यार जाता. हें सगळें पळोवन, आमी आवयभास परतून लार्गी करूंक जाय, म्हणपाचो एकूच निर्णय म्हाका लागलो. भो. सुखटणकारांनी गोंयच्या संवसाराच्यो ज्यो सोबीत ल्हान काणयो मराठींत बरयल्यात, तांणीय म्हाका खरेपणाक आयलें की गोंयची आवयभास मराठी न्हय, तर कोंकणी आसा. खासा म्हाका भितरल्यान आनी भायल्यान नवल-काणयो आनी खेळ बरोवची स्फूर्त जाल्या; जात (उरींश) नांवाचें गोंयच्या समाजांतल्या एका वर्गाचें चित्र हांवें काडलां, तें मौजेचें जालां खंय. पूण जांकां तीन भासो येतात तांकांच तांतूंत मजा दिसता; कित्याक, तांतूंतलीं उलोवणीं

ग्रजी आसून भितर कोंकणी भास फापुडल्या. ही इंग्रजी भास म्हळ्यार, उतराक तर घालून केल्लें गोंयचे पुर्तुगेजीचें इंग्रजी उतरांतर आसा आनी ही पुर्तुगेज हळ्यार कोंकणीचें पुर्तुगेज उतरांतर आसा!

आवयभाशेची म्हगेली खासा अडचण जरी सामकीच म्हाका निस्तरावंक भायली ना, तरी निवळ मनान हांवें तिका तोंड दिलें. फुडें रोखडेंच म्हज्या ग्यानांत आयलें की ही अडचण म्हजी एकल्यालीच नासून जायत्या जाणांली आसा. आमचे भितरल्या कांय जाणांक एक-दोन येवरोपी भासो कामा-गरजे-पुरत्यो आयल्ल्या कारणान, आवय-भास नकळपाची तांगेली तूट कांय वांट्यान भरून येता; पुणून म्हगेले हजारांनी देसभाव खऱ्यांनीच अशे आसात की तांकां हीय तूट-भरपायेची सानकुळाय ना. रोमी लिपीन कोंकणी बरोवंक-वाचूंक येवपा-पुरती पुर्तुगेज भास ते मुळाव्या शाळांनी शिकतात, इतलेच खातीर तांकां बरपाक्षरी म्हणु येत. ही म्हगेली म्हणणी क्रिस्तांव भावांक लागू आसा. म्हगेले हिंदू भाव भुरगेपणापासून आपणाले आवयभाशेंतसून मराठी शिकतात; देखून, तांगेलो फुडार क्रिस्तांवां परस वेगळो जाता. तांकांय आप-उक्ताडावपाची काडाओड लागल्या अशें म्हाका दिसलें. तेंय, खऱ्यांनीच, तांकां येता ते एकलेच भाशेंत पुस्तकांनी वा वर्तमानपत्रांनी बरोवन, आपणाल्यो येवजण्यो उकत्यो करच्या वावराक लागल्यात. ह्या वावरांत तांगेली निजाची बुद्द् जरी जायती दिश्टी पडटा, तरी तांगेली बरपावळ नसतीच आनी आरशी-बुरशी जाल्ली पळोवन, भोवच दुखी बादता, आनी तातूंत ताळतंत नाशिल्ल्या कारणान, ती थोडी-भोव वा सगळीच सगळी निर्फळ जावपाचें तिच्या अद्रुश्टांत भरलां अशें म्हाका दिसता. म्हाका कळून आयलें की कोंकणी भास आंगा-पांगान घट, अरळ बागावता तसली आनी शास्त्रनेमान घडिल्ली आसा; तिची उतरावळ गिरेस्त आसून, तिच्यो भास-भयणी संस्कृत आवयचे मूळ झरींतसून आजदीस मेरेन जर्शी उतरां आनी रुपां जायां घेतात, तर्शी तिच्यानूय घेवं येतीत आनी आपली उतरावळ आनी रुपावळ घडोवं येत. हांवें पळेलें की तिचे चिकित्सायेचें आनी ती मांडणेर घालपाचें जायतें कुदळ-काम अजून करचेलें आसा. पुणून सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार, लोकांक ती भास उलोवंक-बरोवंक लावची उमेद हाडची; म्हणटकूच, भाशेच्या चडट्या आनी घसघशीत घोळोवपान एके तरेची मांडणी वा तिची गरज आपशींच उत्पन्न जातली. ही मांडणी जरी एकादुकली

जावंक नासली, तरी तिची गरज उत्पन्न जाल्याच अशें म्हाका आतां दिसता. आतां जिवी नाशिल्ली वा दुसरें रूप घेतिल्ली मुंबयची 'गोअन एमिग्रंट्स फंड' संस्था, हिच्या पाख्यातळा नेमिल्ले एके कोंकणी समितींत भो. वालावलीकारां वांगडा जेन्ना हांव काम करतालों, तेन्ना हेर जायत्या गजालींनी जरी हे समितीचें तत्व म्हाका मुळानशीं मना येनासलें, तरी म्हाका दिसता की कोंकणी खातीर रोमी लिपी थारावची अशें सन्मथ करतल्यांत म्हगेली जापसालकी चड आसली. हाचें कारण, म्हगेल्या क्रिस्तांव देसभावांक आपणाले आवयभाशे सरशीं परतून ओडून व्हरचे, हें आसलें. पूण त्या वेळारूय म्हाका खरेपणान दिशिल्लें की कोंकणी भास एकरूपावंक आनी मांडणेर घालूंक सगळ्यांत आडबारें लिपीचें आसून, तर्करितीन येवजिल्यार, देवनागरी ही एकलीच एक कोंकणीची लिपी आसा; देखून हे म्हत्वाचे गजालींत, कानडी भाशेच्या आवांठांत रावतले आनी ते खातीर अनुमानानशीं, कानडी लिपीचो चड अगत्यवाद आशिल्ले भो. शानभाग हांगेलें मत्त भो. वालावलीकारांल्या मत्ताक जमता म्हणपाचें आयकून म्हाका खोस जाली.

ते दुर्भागी पुणून तिच्या कामाच्या मानान उपयोगाचे समितींत दुसऱ्या एका प्रस्नाचो जायतो वाद चलतालो; हो प्रस्न म्हळ्यार, कोंकणी ही भास वा पोटभास आसा? हो सगळ्यांत म्हत्वाचो प्रस्न थारावचे आदीं, ती भास मांडणेर घालचें कसलेंच काम करूंक जायना, अशें त्या वेळार दिसलें! ते समितींतले कांय जाण ताळो सरांटून म्हणूंक लागले की कोंकणी ही पोटभास म्हूण सिद्ध जाल्यार, समितीन आपलो पसरो रोखडो धांपचो, हें एकूच काम करचें उरता. भोवूच बुदवंत मनीस–आनी ते समितींत आमी सगळेच जाण बुदवंत आसले–उपाय चलना जाल्ले, बेश्ट्या उतरांचे बंदे, कशे जावं येतात, म्हणपाचो हाचेकूय आनीक चड बरो पुरावो कसलेच गजालींत म्हाका मेळूंक नासलो. कित्याक, कोंकणी ही पोटभास आसा अशें धरूनय, समितीचें काम फुडें चलोवं येता म्हणपाचें दाखोवन दितकूच, सगळे जाण रोखडेच एका मत्तान वावरूंक मान्य जाले. तांकां सांगलें की पोटभास ह्या उतराचो अर्थ कसोय आसूं; वेगळे वेगळे दशेचो, आनी तरेकतरा पावंड्यांचें बरपाक्षर आनी संस्कार आशिल्लो जायतो–लोक कोंकणी भास उलयता हातूंत दुबाव ना, आनी तो ती मायेमोगाचे ओडीन उलयता आनी अभिमानान उलयता हेंय उकतें दिसता; तशेंच, दोळ्यांआड आशिल्ल्या

पयशिल्या फुडाराक कितें घडत ताची चिंता काडिनासतना, आपखोशेन ते भाशेंत आपणाल्यो येवजण्यो बरोवंक नित्शेवान वावुरतल्या लोकांलो आंकडो दिसान दीस चडटोच दिसता; कोंकणी ही भास जावं वा पोटभास जावं, ती आमगेली आवयभास आसा, तिचे चड लागशिल्या नात्याचे मराठी कडसून ती पुरोशी पयस आसा, ती उलयतलो सगळो लोक एक आसा, म्हणपाचे रासवळे बुद्दीन आमी चिंतू, आनी रासवळे एके इत्सेन आमी वावरूं जाल्यार, पोटभाशेच्या सभावीक पेण्या कडसून आमी भाशेच्या घरा कडेन पावं. आज जांकां भासो म्हणटात त्यो सगळ्यो अशेच तरेन जाल्यात. आजची इंग्रजी भास ही एका वेळार 'मिडलंड' ची पोटभास आसून, ही 'मिडलंड' भासूय खासा जर्मन भाशेची पोटभास आसली; इतालियान भास लातीं भाशेची पोटभास म्हूण फुडें सरली; तशीच मराठी ही प्राकृताची पोटभास म्हूण जल्मा आयली. असल्योच देखी आनीक जायत्यो मेळटीत. ह्यो ज्यो पोटभासो आतां भाशेच्या पावंड्यार चडल्यात, तांकां आजचेच तरेन, पोरण्या चालींचे अभिमानी आनी आडांगी लोकां कडसून कशीं आडमेळीं आयल्यांत म्हणपाच्यो देखी इतिहास आमकां शिकयता, आनी हाचे वयल्यान, इतिहास ही एक तत्वविद्या आसा, म्हणपाचें सिद्ध जाता. निमाणें, तुमकां जर तुमगेले आवयभाशेचो अभिमान आसा, तर निखटे भाशे परस ती पोटभास आसल्यार, तुमगेल्या अभिमानाचें मोल चडटा; कित्याक, तिच्या मोगान आनी भक्तीन, तुमच्या मनाक मानत ते केदेय व्हडले उंचायेचेर तिका चडोवची भोव बरी संद तुमकां मेळ्ळ्या.

कोंकणी समितींतल्या वादाच्यो गजाली हांवें तुमकां कांय लांबायेन सांगल्यो. कित्याक, तांकां इतिहासीक म्हत्व आसा; पूण त्याय परस त्यो सांगचें मुखेल कारण म्हळ्यार, अवतारांच्या आनी चिके हांश्याक म्हारग अशा त्या वादाच्या विरां-खेळांत, तलवार वावडूंक फावो जाल्लें बळगें आनी मुस्तायकी जरी म्हजे कडेन आसली, तरी इत्सा केन्नाच नासली आनी ना, ह्या संबंदान तुमच्या मनांत इल्लोय दुबाव उरचो न्हय, हें आसा. कोंकणी ही पोटभास आसा अशें मान्य करूंक हांव तयार आसां; आदली भास कोण आनी मागीरची भास कोण, असले म्हालगडेपणाचे वाद म्हाका निखालूस माननात. कोंकणी भाशेंत केन्नाच सरस्पत नासली आनी लिपी नासली हीं कारणांच तीं दोनूय घडूंक म्हाका पुरोशीं दिसतात. निमाणें हांव सांगतां की म्हगेले आवयचे फाटले जिणेचो वाद जसो हांव घालचों

ना, तसोच, म्हगेले आवयभाशेच्या इतिहासाचोय वाद हांव घालचों ना.

कोंकणी ही आमगेली आवयभास आसा इतलेंच म्हाका पुरो. संस्कार वा वेपार-उद्योग हांचे खातीर हेर भासो आमी कितल्योय शिकलेवं जाल्यार, त्यो आमगेल्यो आवयभासो जावंक उपकारनात. खरेपणानशींच, हिंदी राष्ट्रा खातीर आमकां जशी रोखडीच हिंदुस्तानी भास शिकची लागतली, तश्यो उदेते कडल्यो आनी अस्तमते कडल्यो तांकत तितल्यो हेर भासो आमी शिकच्यो, अशें म्हगेलें पूर्ण मत आसा, इतलेंच न्हय, तर आनिकूय हांव आगरो करून सांगतां की जण एका कोंकण्यान कोंकणीच्या नात्याच्यो मराठी बी हेर भासो आनी अदीक करून तांची सगळ्यांची सामान्य आवय वा आजी जी संस्कृत भास ती शिकचो नेम करचो. हें काम जेन्ना आमी आमगेले आवयभाशेची लिपी देवनागरी करूं तेन्ना चड सोपें जातलें.

कोंकणी म्हगेली आवयभास हें हांव कशें वळखतां, म्हूण तुमी म्हाका विचारशात जाल्यार, हांव तुमकां फक्त सदींचे घोळटेंतलीं कारणां सांगन; पूण खासा हांवें अणभविल्लीं वा बारकायेन दोळ्यांनी पळयल्लीं दोन घडितां म्हज्यान तुमकां सांगुं येतीत; अणभविल्लें घडीत म्हळ्यार, म्हगेलीं भुरगीं हेर परक्यो भासो जरी ज्यास्त उलयतात तरी त्या सगळ्यां परस कोंकणी भास भोव बरी उलयतात. बारकायेन पळयल्लें घडीत म्हळ्यार, गोंयच्या पुर्तुगेज राजकारणान कोंकणी भास ही शिकपाचें मदेवर्त करचे बदला, साळांतसून आमडून घालून, शिकोवपा-शास्त्राचे नदरेन जरी अरिश्टांची चूक केल्या, तरी इगर्जेंत ती भास चलूंक दिल्या. हाचे वयल्यान, पुर्तुगेज सरकाराक धर्माचे गजालींत तरी मोटी व्हडली पोटतिडक आसा अशें योगायोगान दिसता.

कोंकणी भास एकरुपी करच्या पोटांत जी राजकरणी आस्त भरल्या, तिचें म्हाका अगत्य ना, हें हांवें सांगचें लागना. म्हाका अगत्य सदींच भास, सरस्पत आनी संस्कार हांचें आसलें आनी आसा. खरेपणानशींच, म्हजी खात्री जाल्या की राजकरणाच्या माथ्या वयर भाशेक आनी संस्काराक निजाचें आनी तर्कीक म्हालगडेपण आसून, संस्काराचेर राजकारण आदारून आसा आनी आसूंक जाय. कोंकणी भास एकरुपी करप अशें हांव म्हणटां; हाचे वयल्यान, हिचीं अदीक रुपां आसात-शीं जालीं. हीं रुपां जरी तिचें मुळांतलें एकलेपण भंगयनात, इतलेंच न्हय, तर मराठी कडसून तिचें वेगळेपण घसघशीत बरें दाखयतात, तरी

सरस्पतीच्या आनी संस्काराच्या वावरांतसून रासवळपणाची बुद्द पूर्णपणान वयर सरूंक अरिश्टांचें आडमेळें हाडटात. वेगळ्या वेगळ्या थळांक वा जातींक लागून जाल्लीं हीं वेगळेपणाचीं रुपां, एकमेकांल्या दिसपट्ट्या घोळटेच्या वेव्हारांत मोट्यो व्हडल्यो नडी हाडिनात जावंये; पूण केन्ना केन्ना तीं हाडटातूय. देखीक म्हगेल्या ह्या अध्यक्षीय उलोवपांत हांवें इंग्रजी भास उपकारायल्या ती पळयात. पूण एकली एक सरस्पत वा शिकोवपाचें एकलें एक धोरण घड्डूंक तीं खऱ्यांनीच आडबारीं जातात. देखून, भास एकरुपावच्या कामाक जायतो नित्शेव आनी नेट लागतलो, आनी तांतूंतल्यो नडी किंकोंत केल्यार पिसाय जातली. ह्या कामाचें पयलें सोपण म्हळ्यार, सभावीकपणान, एकली एक लिपी उपकारावप हें सांगूंक नाका, आनी देवनागरी बादत हेर लिपी कोणूच पसंत करीत अशें म्हाका दिसना. गरज पडल्यार, हे लिपींत फावो जाल्लो बदल करचो. हाचे फुडलें सोपण म्हळ्यार, एक मदगतें म्हैनाळें, एक मदगतें साताळें, आनी एकादुकलें, वेळानुसार, एक मदगतें दिसाळें काडचें. म्हैनाळ्यांत चड करून सरस्पती संबंदाचीच बरपावळ येवन, तांतूंत भाशीक येवजण्यो नेटान जावच्यो, आनी भाशेच्या नाजूक आंगांची चिकित्साय करची. पूण हांतूंतलें कसलेंय काम जावंक तांकूंक, आदीं पयलीं इत्सा जाय, आनी ही इत्सा भाशेची कडकडीत भक्ती आनी खरेलो मोग हांचे पासून जाता.

हालींच माटुंगा गांवांत भरिल्ले एके सभेंतल्या प्रस्नाक भो. शानभागांनी जाप दिली खंय, की आमी आमकां येता तशें कोंकणींत बरोवंक लागचें, आनी अशें आमी एक सारकें करतकूच, प्रमाण कोंकणी भास कोण ती आमी शिकतले. म्हाका दिसता, ही चतुरायेची आनी सगळ्यांक तांकता तसली वेव्हारीक बुद्द आसा. जायत्या वर्सां फाटीं पुर्तुगेज वर्साळ्यांत उजवाडायल्ल्या आवयभाशे वयल्या एका लेखाच्या सोंपत्यार, अशाच अर्थाचें मत हांव दिवंक पावलां; इतलेंच की तें चिके चड कवनाचे भाशेन सांगलां. हांवें म्हळां की 'कोंकणी भास मांडणेर घालचो प्रस्न, तिची आरोग्यताय आनी भोवमान तिका परतून मेळोवन दिवच्या प्रस्ना इतलोच म्हाका म्हत्वाचो दिसता. हाचे वयल्यान, ती भास मूळच्या थाऱ्यार हाडचे खातीर तिचे मांडणेचें म्हत्व हांव उणें लेखतां अशें मात तुमी समजुं नाकात. पूण भास ही एक जिवी तट्टटीत वस्त आसून जिबेचेर वाडटा आनी मरता. म्हध्यान रात मेरेन जागून, मांडणी करतल्या पंडितांल्या आनी

व्याकरणकारांल्या मेजांचेर ती वाडना आनी मरता. आमगेल्या बरपाक्षरी भावांनी आनी भयणींनी ही भास मायेमोगान केळोवचेलेंच फक्त काम करचें, म्हणटकूच, तिची कसलेय एके तरेची मांडणी वा सबावीक रूप आपशींच थारतलें. मनाक मानत तशी, तांगेल्या खासा म्हालांतले कोंकणी भाशेची मोडणी, ते उपकारावंत; पुणून तांणी सदींच निवळ अंतस्कर्णान चलचें आनी आपणाल्या उलोवपा-बरोवपांत बऱ्यांतलें बरें उतर, बऱ्यांतलें बरें वाक्य आनी शुद्ध बरें बरोवप उपकारावंक नेटान वावुरचें. पूण तांणी सगळ्यांनी आनी जण एकान, पूर्णपणान मन निवळ दवरचें, मतींतली गिन्यानाची वात पेटोवची आनी ध्यानांत धरचें की लोकांल्या आत्म्यांतसून सरस्पत वयर सरूंक जाय आनी ह्याच पासावत, लोकांक एक आत्मो आसूंक जाय.

**– आर्मांद मिनेझिस**
(अध्यक्ष)

***

# परिशिश्ट 2

## गरजे–ताकती–समिती

(भो. मर्तू शेशगिरी कामत हांणी ता. 6 देजेंब्र 1941 दिसा आपयल्ले सभेन नेमली.)

भो. कृष्ण नारायण शणै गायतोंडे, यजमान
भो. मर्तू शेशगिरी कामत
भो. गोपाळ एम. पै
भो. गोविंद श्रीनिवास गुडाळ
भो. विठ्ठल भिकप्पा प्रभू
भो. तलचेरी नागेशराव
भो. काशीनाथ श्रीधर नायक

***

# परिशिश्ट 3

## काम–समिती आनी तिणें घडिल्ल्यो पोट–समित्यो

(ता. 26 देजेंब्र 1941 आनी ता. 18 आनी 24 जानेवारी 1942 दिसा भरिल्ल्या सभांनी नेमल्यो.)

### यजमान

शणै वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार, येवकार, कार्यावळ आनी प्रचार–समितीचे यजमान

### बदली–यजमान

रावबहादुर श्रीपाद सुब्राव तालमकी, बी. ए., एल. एल. बी.

डॉ. जोस आल्बान दे सौज, बी. ए., एल. एम. अँड एस. जे. पी.

भो. लॉरेन्स दे सौज, एल. एल. बी., आप–वावुरपी–समितीचे यजमान

डॉ रामकृष्ण मंजनाथ नार्वेकार, एम. बी. बी. एस., वांगडी–मेळोवपी–समितीचे यजमान

भो. जोकीं आन्तोनिय फेर्नांदिस, परामर्स–समितीचे यजमान

डॉ. ए. सी. रेबेल, एम. बी. बी. एस.,डी. टी. एम. अँड एच. (लंडन)

डॉ श्रीनिवासराव सवूर, एम. ए., पीएच. डी.(लंडन), उत्पन्ना–मांडणी–समितीचे

यजमान

भो. जोस एल. सिकैर

## वांगडी

**आप-वावुरपी-समिती**

भो. मंजनाथ मंगेश कुळकर्णी

भो. जोकीं कायतान दे सौज

भो. तलचेरी नागेशराव

**उत्पन्ना-मांडणी- समिती**

भो. गोविंद श्रीनिवास गुडाळ

सौ. कमळाबाय सुंदरराव दोंगरकेरी

डॉ सुजीर संजीव राव, एम. डी.

भो. कृष्ण श्रीनिवास शानभाग

**कार्यावळ-समिती**

भो. मंगेश नीळकंठ तेलंग

भो. दिनकर पांडुरंग दिवगी

भो. उमानाथराव दोंगरकेरी

भो. श्रीधर नरसिंह प्रभू

भो. फेलिक्स व्हालोइस रोद्रीगिस

**परामर्स-समिती**

भो. सान्तान शाव्हियेर आन्द्राद

भो. दिनकर दत्तात्रय देसाय, एम. ए.,एल. एल. बी.

भो. रामचंद्र नारायण नायक, बी. ए.,एस. टी. सी.

भो. जुआंव आगोस्तीन फेर्नांदिस

**प्रचार-समिती**

भो. रामराव शांताप्पा पडबिद्री, एम. ए.

भो. जॉन बास्टियन पिन्टो

भो. रामचंद्र कृष्ण प्रभू, बी. ए.

**वांगडी-मेळोवपी-समिती**

भो. जयवंत वासुदेव कुळकर्णी

भो. सुब्राय विश्राम कुळकर्णी

सौ. सीताबाय रामराव पडबिद्री

भो. कुंबळा पद्मनाभ भक्त

भो. काशीनाथ शिवराम लाड

भो. जोकीं आल्व्हा, बी. ए., एल. एल. बी.

भो. ए. एल. कुलास, बी. एससी.,एल. सी. ई.,
ए. एम. आय. सी. ई.,आय. एम. एस. ई.

भो. रामचंद्र दत्तात्रय तिनइकार

भो. आन्तोनिय व्हिसेन्त दे क्रूज, संपादपी 'आव्हि-मारिय'

**मानीक जोड-भाण्डारी**

भो. सुजीर पुंडलीक नायक, उत्पन्ना-मांडणी-समितीचे वांगडी

भो. पास्कोआल जॉन वाझ, उत्पन्ना-मांडणी-समितीचे वांगडी

भो. सुर्याजी यशवंत शणै होडारकार, उत्पन्ना-मांडणी-समितीचे
मानीक बरपी आनी भाण्डारी

**मानीक जोड-बरपी**

भो. मर्तू शेशगिरी कामत, परामर्स-समितीचे मानीक बरपी

भो. चार्लस कुयेल, एम. ए.,प्रचार-समितीचे मानीक बरपी

भो. काशीनाथ श्रीधर नायक, कार्यावळ-समितीचे वांगडी
आनी वांगडी-मेळोवपी-समितीचे मानीक बरपी

भो. फ्रान्सिस जॉन मार्तीरिस, आप-वावुरपी समितीचे मानीक बरपी

**मानीक हिशेब-तपासपी**

भो. दत्तात्रय अनंत बिजूर, सी. ए. आय. आय. बी., सी. ए. आय. बी.

***

# परिशिश्ट 4

## सदांकाळीक संस्थेची घडण आनी नेमावळ तयार करपी समिती

(22 फेब्रेर 1942 दिसा भरिल्ले सभेन नेमली)

भो. रामराव शांताप्पा पडबिद्री, यजमान
भो. चार्लस कुयेल
भो. दिनकर दत्तात्रय देसाय
भो. श्रीधर नरसिंह प्रभू
भो. फेलिक्स व्हालोइस रोद्रीगिस
भो. जयवंत वासुदेव कुळकर्णी, मानीक बरपी

***

# परिशिश्ट 5

## परिशदेंत मांडचेल्या थारावण्यांचो खड्डो तयार करपी समिती

(28 मार्स 1942 दिसा भरिल्ले सभेन नेमली)

शणै वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार, यजमान
भो. पिटर आल्फोंसो
रावबहादूर श्रीपाद सुब्राव तालमकी
भो. दिनकर दत्तात्रय देसाय
डॉ. जोस आल्बान दे सौज
सौ. कमळाबाय सुंदरराव दोंगरकेरी
भो. रामराव शांताप्पा पडबिद्री
सौ. सीताबाय रामराव पडबिद्री
भो. जॉन बास्टियन पिन्टो
भो. कुंबळा पद्मनाभ भक्त
डॉ. श्रीनिवासराव सवूर
भो. काशीनाथ शिवराम लाड, मानीक बरपी

***

# परिशिश्ट 6

वांगडी आनी पडहात मेळयतल्यांचीं नांवां, तांणी मेळयिल्ले वांगडी, पडहात आनी जमयिल्लो दुडू

| वांगडी आनी पडहात मेळयतल्याचें नांव | वांगडी | पडहात | कुल्लीं | दुडू (रु. आ.) |
|---|---|---|---|---|
| भो. सान्तान शाव्हियेर आन्द्राद<br>भो. एफ. एक्स. आफोंस | 5 | 11 | 16 | 27 |
| भो. मर्तू शेशगिरी कामत | 10 | 6 | 16 | 36 |
| भो. चार्लस कुयेल | 13 | 3 | 16 | 34 |
| भो. जयवंत वासुदेव कुलकर्णी | -- | 1 | 1 | 1 |
| भो. गोविंद श्रीनिवास गुडाळ | 1 | 12 | 13 | 14 |
| भो. नागेशराव तलचेरी | 1 | -- | 1 | 2 |
| भो. दिनकर पांडुरंग दिवगी | 5 | 1 | 6 | 11 |
| भो. उमानाथराव दोंगरकेरी | 1 | 9 | 10 | 11 |

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| भो. काशीनाथ श्रीधर नायक | 66 | 31 | 97 | 329 |
| रामचंद्र नारायण नायक | 1 | 16 | 17 | 18-4 |
| डॉ. रामकृष्ण मंजुनाथ नार्वेकार | 4 | 4 | 8 | 15 |
| सौ. सीताबाय रामराव पडबिद्री | -- | 10 | 10 | 10 |
| भो. जॉन बास्टियन पिन्टो | 4 | 2 | 6 | 13 |
| भो. डी. बी. प्रभू | 1 | 12 | 13 | 15 |
| भो. श्रीधर नरसिंह प्रभू | 6 | 4 | 10 | 25 |
| भो. कुंबळा पद्मनाभ भक्त | 46 | 27 | 73 | 140 |
| भो. श्रीपाद ना. मयेंकार | -- | 1 | 1 | 1 |
| भो. फ्रान्सिस जॉन मार्तीरिस | 16 | 5 | 21 | 49 |
| भो. काशीनाथ शिवराम लाड | 2 | 7 | 9 | 17 |
| भो. पास्कोआल जॉन वाझ | 8 | 5 | 13 | 21 |
| भो. कृष्ण एस. शानभाग | 16 | 25 | 41 | 68-4 |
| भो. माधव मंजनाथ शणै शानभाग | 6 | 32 | 38 | 44 |
| भो. लॉरेन्स दे सौज | 3 | -- | 3 | 6 |
| भो. सुर्याजी यशवंत शणै होडारकार | 11 | 8 | 19 | 34 |
| पळोवप्यां कडसून मेळिल्ली पालव-दक्षणा | -- | -- | -- | 25 |
| **वट्ट** | **226** | **232** | **458** | **966-8** |

# परिशिश्ट 7

## गितां आनी निबंद धाडटल्यांची नांवां

**गितां**

भो. बालमुकुंद केशव आचार्य, सुंकेरी,कारवार

भो. नरहरी विठ्ठल प्रभू, गोकाक

भो. वेंकटेश रामचंद्र प्रभू, बाड, कारवार

**निबंद**

डॉ. आंतोनिय रेव्हेरेद, पणजी, गोंय

भो. महेश संजगिरी, वाडी, फोंडें, गोंय

***

# परिशिश्ट 8

## नमन-गीत

*कोंकण आमचो देस । आवय कोंकणी भास*
*आमी सगळीं भुरगीं तीचीं, भावां-भयणां खास*
*हिंदु-किरिस्तांव । आमी भाव-भाव*
*एका देवा कडेन वेतात, मार्ग दोन जावं*
*जावं हांव बामण। खेत्री, सुदीर कोण*
*एक आमी सगळे कोंकणे, झुजूं ना कारण*
*वारो हो शितळ । उदकूय निर्मळ*
*एकचाराच्या गितान केली भूंय ही पिकाळ*
*चंद्र-सूर्य हांसता । समुद्र हो गाजता*
*एकचाराच्या एका रंगान सह्याद्री हो सोबता*
*पाचव्या-पाचव्या चार । झाडां-झाडांचेर*
*एकचाराचें गीत गातात सवणीं दिसूयभर*
*गावं तेंच गीत । घालूं हातांत हात*
*काडूं देस-भास वयर, दुसरो ना हावेस*

**– बयाभाव**

# परिशिश्ट 9

## तारो आनी पत्रां धाडून बरें मागतल्यांची नांवां

भो. बालमुकुंद केशव आचार्य, सुंकेरी
भो. आन्द्राद आनी सातारचो कोंकणी लोक, सातारा
डॉ. सुमित्र मंगेश कत्रे, एम. ए., पीएच. डी.(लंडन), पुणे
भो. बाळ गंगाधर खेर, मुंबय सरकाराचे फाटले पाटां-प्रधान, मुंबय
रावसायब गणपत शंकर तेलंग, नगरसभेचे अध्यक्ष, कारवार
साहित्य-संगीत-दर्शनाचार्य वीणा-विशारद मंगेश रामकृष्ण तेलंग, कारवार
डॉ. ए. एफ. वोल्फांग दे सिल्व्ह, पणजी, गोंय
प्रो. रामचंद्र शंकर नायक, पणजी, गोंय
भो. ए. श्रीनिवास पै, बी. ए., बी. एल., कासारगोड
भो. दत्तात्रय वेंकटेश पै, ब्राह्मण समाजाचे अध्यक्ष, मडगांव, गोंय
भो. पांडुरंग रामचंद्र पै पट्टणशेट आनी हेर लोक, गोकर्ण
भो. वेंकटेश पै, मंगळूर
भो. नरहरी विठ्ठल प्रभू, गोकाक
भो. विश्वनाथ पांडुरंग प्रभू ,बी. ए., अंकोला

भो. वेंकटेश रामचंद्र प्रभू, कारवार

भो. के. एम. मुनशी, मुंबय सरकारचे फाटले घरचे-प्रधान, मुंबय

भो. एन. व्ही. एस. मूर्ती, बी. ए., बी. ई., जे. पी., मुंबय

डॉ. ए. आर. ग्रासियान मोरायस, रायतूर, गोंय

भो. डी. पी. शणै, शिमोगा

भो. बी. एस. शणै, शिमोगा

भो. एच. शंकरराव, बी. ए.,सी. आय. ई. सातारा

भो. जेरोम ए. साल्दाञ्ज, बी. ए.,एल. एल. बी.,एम. एल. सी., कंकानडी, मंगळूर

भो. महेश संजगिरी, वाडी, फोंडें, गोंय

***

# परिशिश्ट 10

## विशय– समिती

1. भो. सान्तान शाव्हियेर आन्द्राद
2. भो. एफ. एक्स. आफोंस
3. भो. जोकीं आल्व्हा, बी. ए.,एल. एल. बी.
4. भो. सुशील श्रीनिवास कवळेकार, एम. ए.,एल. एल. बी.
5. भो. चार्लस कुयेल, एम. ए.
6. भो. दिनकर दत्तात्रय देसाय, एम. ए., एल. एल. बी.
7. भो. श्रीपाद रघुनाथ देसाय
8. डॉ. जोस आल्बान दे सौज, बी. ए., एल. एम. अँड एस., जे. पी.
9. सौ. कमळाबाय सुंदरराव दोंगरकेरी
10. भो. रामराव शांताप्पा पडबिद्री, एम. ए.
11. सौ. सीताबाय रामराव पडबिद्री
12. भो. जॉन बास्तियन पिन्टो
13. भो. रामचंद्र कृष्ण प्रभू, बी. ए.
14. भो. जोकीं आन्तोनिय फेर्नान्दिस
15. भो. माधव वासुदेव भट

16. भो. कुंबळा पद्मनाभ भक्त
17. रेव्ह. पाद्री एच. ओ. मास्कारेञ्जस, एम. ए.
18. प्रो. आर्मान्द मिनेझिस, एम. ए., अध्यक्ष
19. भो. कारकळ माधवराव, बी. ई., ए. एम. आय. ई., डी. एस. एच.
20. डॉ. ए. सी. रेबेल, एम. बी. बी. एस., डी. टी. एम. अँड एच.(लंडन)
21. डॉ. आन्तोनिय रेव्हेरेद
22. भो. काशीनाथ शिवराम लाड, मानीक बरपी
23. भो. जे. पी. लोब, बी. ए., एल. एल. बी.
24. शणै वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार
25. भो. माधव मंजनाथ शणै शानभाग, एम. ए., एल. एल. बी.
26. रावसायब सखाराम वामन शिरगांवकार, एम. ए.
27. डॉ श्रीनिवासराव सवूर, एम. ए., पीएच. डी.(लंडन)

***

# परिशिश्ट 11

## थारावण्यो मांडपी आनी तांकां दोडो-नेट दिवपी

| थारावणेचो आंकडो | मांडपी | दोडो-नेट दिवपी |
|---|---|---|
| 1 | अध्यक्ष प्रो. आर्मान्द मिनेझिस | ............ |
| 2 | डॉ. श्रीनिवासराव सवूर | रेव्ह. फादर एच. ओ. मास्कारेञ्जस<br>भो. आलेक्स पायस |
| 3 | भो. फ्रान्सिस जॉन मार्तीरिस | भो. कुंबळा पद्मनाभ भक्त |
| 4 | डॉ. जोस आल्बान दे सौज | भो. जॉन बास्टियन पिन्टो |
| 5 | डॉ. ए. सी. रेबेल | भो. सीताराम पी. भट |
| 6 | भो. माधव मंजनाथ शणै शानभाग | सौ. कमळाबाय दोंगरकेरी |

| | | |
|---|---|---|
| 7 | भो. काशीनाथ श्रीधर नायक | भो. जॉन बास्टियन पिन्टो<br>भो. फेलिक्स व्हालोईस रोद्रीगीस |
| 8 | शणै वामन रघुनाथ<br>वर्दे वालावलीकार | भो. माधव मंजनाथ शणै शानभाग |
| 9 | भो. माधव वासुदेव भट | सौ. सीताबाय रामराव पडबिद्री<br>भो. दिनकर दत्तात्रय देसाय |
| 10 | सौ. आलिस आल्व्हारिस,<br>एम.ए.,बी. टी. | डॉ आन्तोनिय रेव्हेरेद |
| 11 | रेव्ह. फादर एच. ओ.<br>मास्कारेञ्जस | भो. रामराव शान्ताप्पा पडबिद्री<br>पंडितरत्न-विद्यालंकार बा.<br>लक्षुमीनारायण शान |

# परिशिश्ट 12

तिसरे बसकेचो आदा-खर्च *

| | | | |
|---|---|---|---|
| वांगडी, पडहात आनी बरें-मागते हांचे कडसून जमिल्ली पटी, संस्थां कडसून आयिल्ल्यो केळवणी आनी पळोवप्यांकडसून मेळिल्ली पालव-दक्षणा | 96680 | भोंवडी आनी मुस्तायकी हाडप-व्हरप... | 107140 |
| | | 'सर कावसजी जहांगीर हॉल' आनी मुस्तायकेचें भाडें ... | 70140 |
| | | छापणावळ आनी बरप-साहित्य ... | 24500 |
| | | खेळ आनी परामर्स कार्यावळ... | 14820 |
| | | कुरैचो खर्च... | 5246 |
| | | प्रचार आनी किर्कोळ खर्च... | 139156 |
| | | रोख बँकेंत... | 20260 |
| **कुल्लीं रुपया** | **96680** | **कुल्लीं रुपया** | **96680** |

हिशेब तपासून पळेलो तो सारको आसा

**सुर्याजी यशवंत शणै होडारकार**

**सुजीर पुंडलीक नायक**

**पास्कोआल जॉन वाझ**

**मानीक जोड-भाण्डारी**

**डी. ए. बिजूर**
मानीक हिशेब-तपासपी

मुंबय, 17 माय 1944

* खर्चाच्या आंकड्यांनी खंय तरी छापणावळीची चूक आसा. पूण तो नियाळांत छापला तसोच दवरला.

***

# परिशिश्ट 13

## परिशदेच्या थारावण्यांक आयल्ल्यो कांय जापो

### 1. मुंबय सरकाराचें विद्या खतें

मुंबय, कोट, 12 मे 1942

सरकाराच्या जाणट्या पालवी-बरप्याक तुमगेलें तारीख 8 मे 1942 चें पत्र पावलें. तें ध्यानांत घेतात. ह्या विशया वयल्या फुडल्या सगळ्या पत्रांनी उपकार करून एस 28/3140 एफ हो

लागू-आंकडो कळयात.

**विशय** - तिसरे कोंकणी परिशदेन मान्य केल्ल्यो थारावण्यो.

***

## 2. सगळ्या हिंदुस्तानाची आकासवाणी

पत्राचो आंकडो 4336/42 5, सिकंद्रा रोड, नवी दिल्ली,

25 मे 1942

आकासवाणीच्या जाळवणदारां कडसून -

तुमगेलें 13 मे 1942 चें पत्र आनी तिसरे कोंकणी परिशदेची खबर पावली. उपकार जाले.

***

## 3. सरकारी घरचें खतें

नवी दिल्ली, 4 जून 1942

हिंदुस्तानच्या लोक-गणटेच्या जाळवणदारां कडसून -

तारीख 26 मे 1942 चें तुमगेलें पत्र आनी तिसरे कोंकणी परिशदेची खबर म्हाका मेळ्ळी.

***

## 4. कारवार नगरसभा

1942-1943 चो पत्रा-आंकडो 224

कारवार, 9 जून 1942

**कारवार नगरसभेचे अध्यक्ष रावसायब जी. एस. तेलंग हांचे कडसून -**

तुमगेलें 8 मे 1942 चें पत्र पावलें. कारवार नगरसभेच्या आवांठांत कोंकणी मुळाव्यो साळो नात; देखून तांकां पालव-दक्षणा दिवपाचो प्रस्न उबो जायना. जाल्यारूय, जेन्ना असो वेळ येत तेन्ना हो प्रस्न ध्यानांत घेतले.

***

## 5. मुंबय नगरसभा

1942-1943 चो पत्रा-आंकडो 5660 गिल्डर टँक बिल्डिंग,
मुंबय, 28 नोवेंब्र 1942

**साळां-समितीच्या बरप्यां कडसून –**

तिसरे कोंकणी परिशदेन मान्य केल्ल्या 4 आनी 5 आंकड्यांच्या थारावण्यांच्यो तारखो धाडून, मुंबयच्या मानादीक नगरपतीक तुमी जें 1 जून 1942 चें पत्र बरयलें, तें मांडणेक लावंक, नगरसभेन साळां-समिती कडेन धाडलें. तुमगेलें हें पत्र हालींच ते समितीन ध्यानांत घेतलें आनी तुमकां कळोवंक सांगलां की मुळाव्यो कोंकणी साळो पालवा खातीर नेमां भाशेन मागणी करतीत जाल्यारूच ती ते ध्यानांत घेतले.

नेमांची आनी पालव-दक्षणेच्या कलमांची तालीक नगरसभेच्या पालवी साळांच्या कारभाऱ्या कडेन मेळटा. तागेलें ऑफीस ह्याच घरांत सकयले माळयेर आसा.

***

## 6. सिरसी नगरसभा

1942-43 चो पत्रा-आंकडो 1187 सिरसी, 18 जानेर 1943

सिरसी नगरसभेचे अध्यक्ष भो. व्ही. एस. भट, एल. सी. पी. एस. हांचे कडसून-

तुमगेलें 8 मे 1942 चें पत्र पावलें. तातूंत, मुंबय भरिल्ले तिसरे कोंकणी परिशदेन मान्य केल्ल्या थारावण्यांच्यो तालको धाडिल्ल्यो मेळ्ळ्यो. आमगेले नगरसभेच्या आवांठांतल्या मुळाव्या साळांनी कोंकणी भास जाणा-जाल्ले शिकोवपी नेमचो आधिकार कर्णाटकांतल्या प्रांतीक-साळां-सभेक आसा. तिचे कडेन ही मागणी करपाचें आमगेले नगरसभेन थारायलें, म्हणपाचें तुमकां कळोवंक म्हाका भौमान दिसता. आमगेले थारावणेक पाळो दिवंक कर्णाटक प्रांतीक-साळां-सभेच्या अध्यक्षां कडेन मागणी केल्या.

***

# परिशदेचे खबरींतल्या कांय उतरांचो कोंकणी-इंग्रजी कोश

**अगत्या आंकडो – Quorum**

अथर्वण- Magic

अदमासी खड्डो- Estimate Budget

अध्यक्ष – Chairman, President

अपरूपावळ – Musium

अक्षरी – Literate

आकासवाणी – Radio

आदगत्यो – Sayings, Proverbs

आदा- खर्च – Receipts & Expenses

आप- उक्ताडावप – Self- expression

आप- वावुरपी – Volunteer

आप- वावुरपी- समिती – Volunteer Commitee

आल्लयो – Lullabies

इतिहास – History

इतिहास सोदपी – Researcher in History

उजवाडावपी – Publisher

उतरावळ - Vocabulary
उत्पन्ना- मांडणी- समिती - Finance committee
उलोवपा- मोड - Idiom
कवीत - Poetry
कळीत- पत्र - Communique
काम- करपी- समिती - Working Committee, Executive Committee

कार्यावळ - Programme
कार्यावळ- समिती - Programme Committee
काळपट्टी - Chronological
कुरैचो- खर्च - Postage
कोश - Dictionary
खड्डो - Draft
खबर - Report; News
खांब्यापटो - Pillar Inscription
खूण- कमळ - Badge
गणीत- Mathematics
गरजे- ताकती- समिती - Provisional Commitee
घडण - Constitution
घरचें- खतें - Home Department
घरचो- प्रधान - Home Minister
चडताव - Majority
चलंत- खतें - Current Account
जाणटो - Senior
जाळवणदार - Director, Commissioner
जीण - Life, Biography
जोड- खतें - Joint Account
ज़ोड- बरपी - Joint Secretary
जोड- भाण्डारी - Joint Treasurer

जोड- सय - Joint Signature

जोयशिकी - Astrology

तत्वगिन्यानी - Philosopher

तत्वविद्या - Philosophy

तालीक - Copy

तांब्यापटो - Copperplate Inscription

ति- म्हैनाळें - Quarterly

थळ- सभा - Local Board

थारावणी - Resolution

थारावणेकार - Mover of a Resolution

थारावल्लो - Retired

दिसाळें - Daily

देवविद्या - Theology

दोडो- नेट - Seconding a Proposal

दो- म्हैनाळें- Bimonthly

धर्मदूत - Apostle

धर्मराखणो - Defender of faith

धर्मवादी - Prophet

नगरपती - Mayor

नगरसभा - Municipality

नवलकाणी - Romance, Novel

निबंद - Essay

निरक्षरी - Illiterate

नेमावळ - Rules

नेमाळीं - Newspapers & Periodicals

पटी - Subscription

पडताव - Minority

पडहात - Delegate

परामर्स- समिती - Entertainment Committee

परिशद - Conference

प्रचार- समिती - Publicity & Propaganda Committee

पंद्राळें - Fortnightly

पाटां- प्रधान - Prime Minister

पालव- दक्षणा - Grant- in- aid

पालवी- बरपी - Assistant Secretary

पालवी- संपादपी - Sub- Editor

प्रांता- जुवीज - District Judge

प्रांतीक- साळांसभा - District School Board

फातरपटो - Stone Inscription

बदली- अध्यक्ष - तळलश- President, Vice Chairman

बरपी - Secretary, Writer, Author

बसका - Session

भास- शास्त्र - Philology

भास- शास्त्री - Philologist

भुरग्यां- शिकोवपा- शास्त्र - Pedagogics

भूंय- वर्णना - Geography

भौमानेस्त - Greatly Honoured

मत्त - Vote, Opinion

मदगतें - Central

मदेवर्त - Medium

म्हणणी - Saying, Proverb

म्हैनाळें - Monthly

मानपटी - Fee

मानादीक - His Worship, Worshipful

मानीक - Honorary

मानीक बरपी - Honorary Secretary

मुळावें - Primary

मुळाव्यो साळो - Primary Schools

यजमान, यजमानी - Chairman; President

येवकार- अध्यक्ष - Chairman of the Reception Committee

येवकार- समिती - Reception Committee

रंगभूंय - Theatre

रीगपटी - Entrance fee

रोमी लिपी - Roman Script

लागू- आंकडो - Reference Number

लिपी - Script

लोक- गणती - Census

लोक- गणतेचो जाळवणदार - Census Commissioner

लोकवेद - Folk- lore

वर्साळें- Annual वळेरी - List

व्याकरण - Grammar

वाचपा- कूड - Reading room

वांगड- भावना - Sympathy

वांगडी - चशालशी

वांगडी- मेळोवपी- समिती - Committee for enlisting members

विण्या- गीत - Lyric poem

विद्या खतें - Educational department

विरां- खेळ - Tournament

विशय - Subject

विशय- समिती- Subjects Committee

वेव्हार - Operation; Transaction

वेंचणूक - Election

शिकोवपा- पुस्तकां- समिती - Text- book- Committee

सगळ्या हिंदुस्तानाची आकासवाणी - All India Radio

सदांकाळीक - Permanent

सभा - Meeting

समिती - Committee

स- म्हैनाळें – Half yearly
सरस्पत – Literature
संगीत- Music
संपादपी – Editor
संवगी – Actor
संस्कार – Culture
संस्कृताय – Civilization
साताळें – Weekly
साळां- समिती – Schools Committee
हाताळें- Manuscript
हिशेब- तपासपी – Auditor

***



**माधव मंजुनाथ शानभाग**

"हिंदुस्तानांत ब्रिटीश सत्ता जरी देडशें वर्सां वयर चल्ल्या, तरी शंबरांत फक्क्त 8 जाण अक्षर-वळख आशिल्ले आसून बाकिचे 92 लोक निरक्षरी आसात. ही दशा निवळावन सगळ्यांक अक्षरी करचें काम राष्ट्रसभेच्या सरकारान आपणाल्या आठ प्रांतांनी तुर्ताक हातांत घेतलां. तांणी जाण्ट्या निरक्षरी लोकांक अक्षर-वळख दिवचो यत्न चलयला. तसोच यत्न कोंकणी निरक्षरी लोकां खातीर केल्यार बरें जायत. तांकां तांगेली कोंकणी भास देवनागरी लिपींत शिकयतकूच ते सट् करून अक्षरी जावन, चड त्रास बादनासतना बरोवंक-वाचूंक बेगीन तयार जातले अशें म्हाका दिसलें. ह्यो म्हगेल्यो येवजण्यो, म्हगेले पालवी कार्यदर्शी भो. वेंकटेश प्रभू हांकां हांवें कळयल्यो आनी तांणी म्हाका उमेदीचें अवसान हाडलें. रोखडोच हांव कोंकणी परिशद भरोवच्या वावराक लागलों. हांवें कळीत-पत्रां काडलीं आनी पडहात जमोवच्याक लागलों. वचत थंय लोकांनी म्हगेल्या कामाक नेट दिलो आनी जायती मानपटी जमली."

**– माधव मंजुनाथ शानभाग**

8 जुलय 1939

संजना पब्लिकेशन्स

मूल्य : ₹ 150/-